# जाग

वर्स २७ : आंक ७ : फेब्रुवारी २००१

पापी : रवीन्द्र केळेकार

वुगो संपादपी : माधवी सरदेसाय

ाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय

क्षजुळणी : तन्वी ग्राफिक्स, मडगांव

पा : प्रिन्टआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय


## ह्या आंकांत


संपादप्याची ..................... १

ाडी (कथा) वैकम मुहम्मद बशीर ..................... ६

वाचले उपरांत - हरदत्त खांडेपारकार ..................... ८

ा पोर हो (चवथी खिस्त) सुमन्त केळेकार ..................... ९

सुवादीक कॉलम - दिलीप बोरकार ..................... १७

ा : सु.म. तडकोड, अरूण साखरदांडे, परेश नरेंद्र कामत
राजश्री म. सैल ..................... १९

ासाचीं पानां ..................... २२

य नियाळ : 'निमज्जन' - प्रियदर्शिनी तडकोडकार ............ २३



र्सुकी पटी : रु. १०० /-

द्यार्थ्यां खातीर : रु. ७५/-

ीन वर्सांची पटी : रु. २५०/-

क वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
क मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत धा रुपया अदीक जोडचे.

ाचो नामो :
**म्हयनाळें :**
-बी, सालदेल अपार्टमेन्टस्
द साउदादिश, पाजीफोंड
व - गोंय ४०३ ६०१.

ोळ आंकाचें मोल : रु. ९/-


## नदर संपादप्याची

### पातकांचें पानवळ

माडा वयल्यान मनीस पडलो जाल्यार ताचीं हाडां मोडुंकूच जाय. उज्यांत हात घालो जाल्यार तो भाजुंकूच जाय. पेंवंक येनासतना भर दर्यांत उडी घेतली जाल्यार मनीस बुडुंकूच जाय. सैमाचे नेम हे. तांकां सैमीक विपत्ती - natural calamities - म्हणूं येता. सैम कुडडें न्हय. कोल्ली तर न्हयच न्हय. ताचे सगळे वेव्हार गणिती अचूकपणान जिस्ताजिस्त, जथापथ चलत आयल्यात. आपल्या वेव्हारांत तें इल्ली लेगीत चूक जावंक दिना. मनीस मदीं पडून तातूंत आडखळी हाडटा तेन्नाच घडूंक फावनाशिल्लें - जे हरशीं घडचें नाशिल्लें - तें घडून येता.

भुंयकांप लेगीत मनशाच्या असल्या कसल्या तरी चुकांक लागून घडून येतात.

सैमांतलें सगळें - भूंय उदक वारो, सुकणीं सावदां, जीव-जिवाणीं, किडी-मुयो, झाडां-पेडां सगळें - एकामेकांच्या आधारान जियेत आयलां. हांतल्या खंयच्याय एका आंगाक इल्लीशी दुखापत जाली जाल्यार तिचो परिणाम पुराय सैमाचेर जाले बगर रावना. म्हूण, झाडां मारूं नाकात, कितेंच मारूं नाकात अशें सांगपी 'इकॉलजी' नांवाचें एक विज्ञान वयर सरलां.

सैमाची संतुळा इबाडूं नाकात अशें हें विज्ञान आड्डू-आड्डून सांगीत रावलां.

उद्योगीक क्रान्ती उपरांतच्या काळांत मनशाचे गोमटेर 'विकास' नांवाचो एक म्हारू येवन बसलो. धतरिचे फाटीर वा धतरिच्या पोटांत जें कितें आसा तें सगळें आपणाकूच भोगपा खातीर सैमान जशें कितें निर्माण केलां अशें मानून तो रानां मारपाक लागलो आनी एके वटेन 'काँक्रीटचीं जंगलां' ताणें उबीं केलीं, तर दुसरे वटेन रेंवे-सडे उबे केले. टनांनी कार्बन डायऑक्सायड हवेंत सोडून एके वटेन ओझोनच्या थराक व्हडले व्हडले भोकनोळ घाले, तर दुसरे वटेन पॅसिफिक म्हालसागरांत 'ऍल नीनो' नांवाचो एक देंवचार जल्माक घालो. कारखान्यांनी न्हंयांच्या उदकांत मळी सोडून उदक विखाळ करून उडयलें. डीडीटी सारकेलीं वखदां शिंपडावन लाखांनी जातिंचे जीव मनशान मारून उडयले. रसायणीक सारीं वापरून शेतां भाटां निसूक करून उडयलीं. आतां अंटार्टिकांतलें बर्फ विरगळपाक लागलें, पँग्वीन मरपाक लागले, रानां करपूंक लागलीं, हवेंतली उष्णताय वाडपाक लागली, मोडां येवपाक लागलीं, दर्याच्या उदकाची पातळी वाडून बुड्ट्यो येवपाक लागल्यो, पावस फटोवपाक वा विटोवपाक लागलो, दुष्काळ पडपाक लागले जाल्यार दुशण कोणाक दिवपाचें? सैमाक?

चुको मनशाच्यो आनी चुकांच्या परिणामांक 'सैमीक विपत्ती' मानून दुशण सैमाक दिवप - खंयचो न्याय हो?

भुंयकांपाचीं सगळीं कारणां विज्ञानाच्या लक्षांत अजून सारकीं येवंक नात जावं, पुणून जीं आयल्यांत तीं तरी मनशान - मनशांतल्या त्या 'विकास' नांवाच्या म्हारवान - कितलिशीं मानून घेतल्यांत? विज्ञान सांगता, झाडां मारल्यार, रानां मारल्यार, सुकणीं सावदां मारल्यार, जीव जंतू मारल्यार सैमाची संतुळा इबाडटा. मागीर सांगात, गोरवां, दुकर, कोंबड्यो, बकरे बकऱ्यो मारल्यार ती इबाडची ना? तुमी मोनजातींतले हे प्राणी दिसपट्टे कितले मारतात? कोटिंनी, अब्जांनी? तुमकांच सारको हिशोब सांगूंक येवपाचो ना इतले मारतात. हे जीवहत्येचो सैमाचेर कांयच परिणाम जायना? जावंकूच जाय. मोनजात मारतात ती मारतात, तुमचे सारक्या वाचाळ, बडबडपी मनशांक तुमी मारिनात? केन्ना धर्माच्या नांवान मारतात तर केन्ना राष्ट्रवादाच्या नांवान मारतात. कितल्यांक मारतात? उद्योगीक क्रान्ती उपरांतच्या काळांत (आदलो काळ हिसपाक धरिना) तुमी जीं झुजां केल्यांत

तातूंत जी मनीस-हत्या संवसाराचे फाटीर जाल्या ती मोनजात-हत्ये परस व्हडलिशी उणी म्हणूंक येवपाची ना. सैमाचेर हाचो कांयच परिणाम जायना? हत्येचें तांड्व जेन्ना जेन्ना धतरिर चल्लां तेन्ना तेन्ना तिका थरथरो भरला, ती हालल्या. आनी खयं खंय भुंयकांप जाल्यात.

विज्ञानीक सांगतात, न्हंयांचेर व्हडलीं धरणां बांदू नाकात. सुमारा भायले उंचायेचीं धरणां बांदतकूच उदकाचो जो भार धतरिक पडटा तो तिका सोंसना जाता. ती थरथरूंक लागता आनी भोंवतणच्या वाटारांत खंय खंय भुंयकांप जातात. आयकतात तुमी? तुमी ह्या विज्ञानिकांक पिशे, आक्रस्ताळे लेखीत आयल्यात. तुमचे गोमटेर बशिल्ल्या त्या म्हारवाक झाडो घालून देंवयात, सैमाचे सगळे वेव्हार कशे जथापथ चलतात, कशे नेमाक धरून चलतात तें तुमच्या लक्षांत येतलें. बेश्टे सैमाच्या माथ्यार तुमच्यो चुको थापूं नाकात. आयज जो तुमचे तकलेर 'सैमाचेर जैत जोडूंक जाय' म्हणपी म्हारू बसला तो देंवतकूच सैमा कडेन जुळोवन घेवन सैमाच्या आधारान जियेवंक जाय म्हणपाचें तुमच्या लक्षांत येतलें. सैमीक विपत्ती नांवाची विपत्ती सैमांत ना.

## देश प्राणवान केन्ना जाता ?

सर्गिचें राज धतरिर हाडचें अशें ख्रिस्ताक दिसलें. तो एक द्रश्टो म्हा-पुरूस आशिल्लो. खूब पयसलें ताका दिश्टी पडटालें. तो शेजाऱ्याचेर मोग करात, दुस्मानाचेर करात (तुमी तुमचेर करतात तसो) अशें सगळ्यांक सांगीत भोंवपाक लागलो.

सनातनी ज्यूंक तो उस्तऱ्यां गेलो. तांणी ताचेर तरातरांचीं बगलाटां घालीं आनी एक दीस ताका खुर्सार चडोवन मारुनूय उडयलो.

ख्रिस्ताची कूड ना जाली. ताचें सपन ना जालें व्हय? परतें, ताच्या बलिदानाक लागून तें चडांत चड लोकांक पिशें लावपाक लागलें. दोन हजार वर्सां जालीं; ख्रिस्ताची शिकवण संवसाराच्या खांची कोनशांनी पातळावपा खातीर हजारांनी मिशनरी जिवाचें रान करून वावुरतात ते आमी पळेतात.

संवसार वयर सरला, प्राणवान जाला, तो असलेंच कसलें सपन कोणाक पडलां तेन्ना, ह्या सपनान लोकांक पिशें लायलां तेन्ना आनी पिशें लागिल्ले हे लोक तें खरें करपा खातीर तरातरांचे कश्ट करपाक लागल्यात तेन्ना. ताचें दुसऱ्यांकूय पिशें लावपाक भोंवल्यात तेन्ना.

तेन्ना ते मरणाचीय पर्वा करिनात.

जाचे खातीर जियेवचें आनी मरचें असलें कसलेंय तरी एक ध्येय, कसलोय तरी एक विचार मुखार आसले बगर खंयचोच समाज आयजवेर वयर सरूंक ना.

आमच्याय देशाक हालिंच्या काळार असल्या एका ध्येयाचें पिशें लागिल्लें. १८५७तल्या बंडांत हार आनी मार खाले उपरांत बंगाल, महाराष्ट्र, पंजाब, मद्रास, गुजरात सगळे कडले आमचे जागरूक म्हालगडे एका व्यासपिठार एकठांय जमले आनी आमचें खंय चुकलें म्हूण आमकां मूठभर इंग्रजांच्या हातान हार खावची पडली हाचेर चिंतूंक लागले. आमच्या सगळ्या प्रस्नांचेर तांणी भासाभास केली. आमच्या सगळ्या अवगुणां कडेन सगळ्यांनी लक्ष केन्द्रीत केलें आनी स्वराज्य जोडले बगर आमची धूळदशा सोंपपाची ना ह्या निर्णयार ते पावले. स्वराज्य जोडपाक आमकां झुजचें पडटलें आनी झुजचें पडटलें म्हूण आमच्या समाजांत आशिल्ले आपले-पेलेपणाचे, ऊंच-उणाकपणाचे सगळे अवगूण हुमटावन ना करचे पडटले, ह्याय निर्णयार ते पावले. तेन्ना सावन १९४७ मेरेन सुमार णव्वद वर्सां आमी राजकी, सामाजीक, आर्थीक सगळ्या आघाड्यांचेर झुजत रावले. कितले लोक बंदखणींत पडले, कितले गोळ्याक हुमकळून मेले, कितल्या लोकांनी आंगार तोणके झेलले, गुळ्यो झेलल्यो, कोंत आनी हिशोब मेळचो ना. जाचे खातीर जियेवचें आनी मरचें हे तरेच्या ह्या ध्येयान कोणाक सस्थ बसूंक दिलें ना.

हे प्रक्रियेंत केद्या उत्तुंग व्यक्तिमत्वाचे लोक मुखार आयिल्ले आमी पळेले. अखेर स्वराज्य मेळ्ळें.

आमकां हांगाच थांबपाचें नाशिल्लें. ज्या कारणांक लागून देशाची फाळणी जाली तीं कारणां आमकां पयस करपाचीं आशिल्लीं. ज्या कारणाक लागून देशांत एकवट घडून येना तीं कारणां ना करपाचीं आशिल्लीं. ज्या कारणांक लागून गरीब गिरेस्त, चिड्डून पडिल्ले, चेपून पडिल्ले लोक निर्माण जातात, आनी चिड्डुंक चेपपी शक्ती वयर सरतात, त्यो सासणाच्यो ना करपाच्यो आशिल्ल्यो. आमच्या धर्मविचाराक, सामाजीक आदर्शांक, राजकी ध्येयांक एक नवी दिका दिवपाची आशिल्ली.

आमचे कुंडलेंत खंयचे गिरे खंयच्या घरांत आशिल्ले देव जाणा, स्वराज्य मेळनाफुडें आमी वेव्हारवादी जाले. खंयच कसलेच बदल घडोवन हाडपाची गरज ना, चलत आयलां तशेंच सगळें चलूंक दिवपाचें, तातूंत जाका जें फायद्याचें पडटा ताचो ताणें लाव घेवपाचो, आनी सत्येर येवपाचें, सत्या भोगपाची, अशें 'लोकशाये'च्या नांवान थारावन मेकळे जाले.

आयज देशा मुखार 'जाचे खातीर जियेवचें आनी मरचें' असलें कसलेंच ध्येय ना. जाच्या पांयांक हात लावन धन्यताय अणभवची असलो एकूय फुडारी आमचे मुखार ना. मागीर, देश पडलो, रसातळाक पावलो असो शीण काडपांत कितें अर्थ उरता?

देश आपशींच वयर सरना. ताका वयर काडचो पडटा आनी ताका वयर काडचो आसत जाल्यार खंयच्याय तरी एका विचाराचें, एका ध्येयाचें पिशें लोकांक लागचें पडटा. तें लावपी कोण तरी मुखार येवचो पडटा. ना जाल्यार -

देश आपशींच १८५७ आदल्या काळांत वचून पडटलो.

बुद्ध म्हणटालो, जागरूक रावशात, जिखतले. घाळ रावशात, शेणटले.

## जपानाची देख

देशा कडेन ज्ञान विज्ञान तंत्रज्ञान नासल्यार उपकारता. तें खंयच्यानूय घेवंक येता. पुणून ताच्या आंगांत प्राण आसूंक जाय. जाल्यार, उश्णें घेतिल्लेंय ताचें निजाचें जावं येता.

जपाना कडेन निजाचें कितें आशिल्लें? भास आशिल्ली. पुणून हे भाशेंत बरोवंक येता म्हणपाचें तें सातव्या शतमाना मेरेन नकळ आशिल्लें. ताचे कडेन लिपी नाशिल्ली. ती ताणें चीना कडल्यान घेतली. आनी घेवन तिच्यांत आपणाक जाय तशे कितलेशे बदल केले आनी तिका जपानी केली. आयज 'ही लिपी आमी तुमचे कडल्यान घेतिल्ली' म्हूण तें चीनाक सांगीत जाल्यार 'च्ये, आमची लिपी असली नाशिल्लीच' अशें म्हणून चीन ताका पिशांत काडटलें. चीनी लिपयेक जपानी रूप दिवन जपानी लोक हे भाशेंत बरोवपाक लागले. शिकोवपाक लागले, राजकारभार चलोवपाक लागले आनी विज्ञान घेतलें तेन्ना विज्ञानाचींय पुस्तकां जपानींत हाडपाक बरोवपाक लागले.

प्राणवान देश हो एक. कितेंय उश्णें घेवपाक अनमनलो ना. पुणून घेतिल्ल्याची फकत केलदावणी करीत बसलो ना. जें जें घेतलें ताका ताणें जपानी रूप दिलें.

जपाना कडेन ताचो असो धर्म नाशिल्लो. सैमांत जें अद्भूत, आगळें वेगळें दिश्टी पडटालें ताचे मुखार तें मान नमयतालें. दोंगर, रानां, झाडां, पेडां, दर्या, सूर्य, मेल्ले गेल्ले म्हालगडे हांकां तें पुजतालें. ह्या संस्कारांक तें **कान्नागारा** म्हणटालें. चीनी लोकांनी हाका **शिन्तो** म्हूण एक नांव दिलें. ह्या शिन्तोक ताणें चीनांतल्या कोन्फुत्सूच्या उजू चलणुकेच्या धर्माचें गार्फ लायलें - आवय बापाय कडेन भौमानान चलूंक जाय, आयिल्ल्या पै-पावण्याची सरबराय करूंक जाय,

ांतवाचो अंश आसा अशें मानून ताका निष्ठा ओंपूंक जाय असले सगळे नेम ले .ेन्फुत्सू येतकूच बुद्ध कित्याक येवचो ना? तोय आयलो. हो महायानी शिल्लो. बुद्ध तर खरोच, पुणून लोकोत्तर. देवा समानूच न्हय, तर सा व. महायानी बुद्ध. हिन्दुस्तानांतल्या चीन, मोंगोलिया, कोरिया हे वाटेन यिलो. येतना वांगडा तरातरांचे संस्कार घेत आयिल्लो. तातूंत मंत्र-तंत्र, द्, वलोकितेश्वर, मंजुश्री असल्यो देव-देवता हेंवूय आसपावल्लें. जपानान वार कितेंच पळेनासतना सगळें घेतलें. कितेंय घेवचें, पचपा सारकें पचतलें, ला आपर्शीच भायर पडटलें ह्या प्राणवान सभावाक धरून जें जें घेतलें तें तें यलं ताका जपानी केलें. आनी जें गळून पडलें ताका वचूंक दिलें. जपानांत र रा बुद्ध संप्रदाय चलतात. तेराय भायल्यान आयिल्ले. येवन ते इतले नीझाले की भायल्यांक आतां हे तुमचे म्हूण सांगल्यार तांकां खरें दिसपाचें ह्यां रसायनांतल्यान एक जपानी बुद्धमत्त वयर सरलां - तांचें निजाचें ं का निचिरेन बुद्धमत्त म्हणटात. संवसारभर बुद्धमत्त पातळावंक जाय, संवसारांत सवस्तकाय नंदपाची ना, अशें मानपी. आनी ह्या हावेसान सभर आपणाले मिशनरी धाडपी.

चीं कडल्यान घेतिल्ल्या बुद्धमत्तांतलें सगळ्यांत आगळें वेगळें मत्त 'झेन'. तार्चे मुळावण घालें तें बोधिधर्म नांवाच्या भारतांतल्या एका बुद्ध भिक्खून. ' ळ्यार ध्यान. हिन्दुस्तानांत ध्यान संप्रदाय म्हूण वेगळो बौद्ध संप्रदाय चीनांत ताणें खेरीत संप्रदायाचें रूप घेतलें. सुमार सशीं वर्सां चीनांत फुल्ले ळेपरांत हो संप्रदाय जपानांत पावलो आनी पावनाफुडें रोखडोच जपानी जपानाक संस्कारीत करपाच्या कामांत ताचो सगळ्यांत चड हातभार ल जपानी चित्रकला झेनाच्या प्रभावांत वाडल्या. बागो उब्यो करपाची ग. फुलदाणयेंत फुलांची रचना करपाची - इकेबाना कला झेन. एक एक बिक लावन वर भर बसून अर्द चिक्र च्या पियेवपाची कला - tea ony झेन. झेनाचो प्रभाव जपानी कवितेचेर - हायकूचेर पळोवंक मेळटा, चेरूय मेळटा. पुराय जपानी जिविताचेर तो दिश्टी पडटा. जपान जें घेता भावार्तान घेता, ताका ताचे रितीन चलूंक दिता आनी जिवीत समृद्ध, लं, शिरवंत करीत रावता.

पानान झेन चीना कडल्यान घेतिल्लो. घेतले उपरांत ताका पुराय जपानी सुमार सशीं वर्सां तो जपानांत फुल्लो, फळ्ळो. आतां येवरोपाचें लक्ष लागला.

दीस जपानान पळेलें, इतलेंय हें आसलें म्हूण भागना. आर्विल्लें विज्ञान कडेन ना. येवरोप अमेरिके कडेन तें आशिल्ल्यान तीं बळिश्ट जावंक त. आपुणूय बळिश्ट जावंक जाय. ना जाल्यार तग धरूंक पावपाचें ना. ं ताणें हुशार, कर्तुत्वी भुरग्यांक वेगळ्या वेगळ्या देशांत 'विज्ञान शिकून अशें सांगून धाडून दिले. ते शिकून आयले आनी जपानाक बळिश्ट करपाक केन वावरूंक लागले. आरे आरे म्हणटासर जपान विज्ञानाचे नदरेन एक लो देश' जालें. सैनिकी नदरेनूय शक्तिशाली जालें. १८९४त चीना आड ून ताणें जैत जोडलें. जपानाचो आत्मविस्वास वाडलो. धा वर्सां वचूंक णें रशियेक दिमी मोडूंक लायली. ब्रिटन अमेरिके सारकीं राष्ट्रां चकासूर १९१४च्या आनी उपरांत १९३९तल्या म्हाझुजांत जपानाक आकांताची वची पडली. तरी आसतना जपानाचो प्राण खर्शेलो ना. ताणें जपानाची पर्थून वयर काडली. अपेसाचें भांडवल पदरांत घेवनूय तें वयर सरलें. तें संवसारांतलें आकारान ल्हान, पुणून कर्तुत्वान एक व्हड राष्ट्र जावन आयलां. दुसऱ्या झुजा उपरांत जपानाचेर अमेरिकेचो प्रभाव सगळ्यांत टी पडटा. जपान आतां जपान उरूंक ना अशें म्हणपी कांय जपानी आसात. तांकां जपानाच्या फुडाराचो हुस्को जावंक लागला. तरी आसतना -

जपान जपानूच उरलां. जे मेरेन ताच्या प्राणाक बादा येना ते मेरेन जपान जपानूच उरतलें. जपानान आपणाली मौलिकताय सोडून दिवंक ना. ती सुटपाचीय ना. तें घेवपा सारकें सगळ्यां कडल्यान घेतलें. पुणून घेतिल्लें सगळें पचोवन जपानूच उरतलें. कोणाचीच केलदावणी करपाचें ना, अशेंय म्हणपी कांय जाण आसात.

देशांत आसूंक जाय तो प्राण. तोच केळोवंक जाय. उपनिषदांतल्या रुशिंनी प्राणांचीच उपासना करपाची शिकवण दिल्या. ज्या देशांत प्राण आसता त्या देशांत यौवनूय आसता आनी जंय यौवन आसता थंय प्रयोगवीर वयर सरताच सरतात. देशाक ते पडूंक दिनात.

भारतान जपाना कडल्यान घेवंक जाय ती प्राणाची उपासना. तीच म्हत्वाची. ज्ञान-विज्ञान-तंत्रज्ञान सगळें फाटल्यान आपर्शी येत रावतलें.

## आमचे कडेन विज्ञान ना? कोण सांगता?

येदो व्हडलो विश्वनाथ लवंदो. फिरंग्यांक बदलो ना. पुणून मलेरियाच्या येद्याश्या जळारा मुखार ताचें कांयच चल्लें ना. जळार आयलें. ताका चाबलें. आनी -

क्रान्तिकारी गोंयकारां मदलो हो शिरोमणी सोंपलो!

मलेरिया जीवघेणी एक पिडा. केन्ना कोणाक खंयच्या खिणाक उखलून व्हरीत, सांगूंक येना. ती आळाबंदा हाडुंकूच जाय. कशी हाडपाची? तर खंय जळारां मारून. जळारांच ही पिडा घेवन येतात. सरकार सांगता, उदकाचीं कोंडां खंयच दवरूं नाकात. तीं पुरयात. उदक व्हांवना जालें जाल्यार त्या उदकांत जळारां जातात. कोंडांचेर डी.डी.टी. शिंपडायात. जळारां जावचीं नात. आनी जालींय जाल्यार उरचीं नात. मरतलीं.

फाटल्या चार पांच दसकां सावन सरकार सगळे कडेन डी.डी.टी. नेमान मारीत आयलां. सुरवाते सुरवातेक डी.डी.टी.क लागून जळारां मेल्लीं. पुणून तांचे वांगडा पिसोळींय मेलीं. पिसोळीं फुलांचेर बसतालीं आनी परागणाचे प्रक्रियेंत सैमाक आधार दितालीं. डी.डी.टी.क लागून पिसोळीं मरतकूच परागण जालें ना. फुलांक फळां जालीं नात. सुकण्या शेवण्यांक फळां खावंक मेळ्ळीं नात. तींय मरपाक लागलीं. पुणून -

दोन तीन वर्सां भितर मलेरिया देशांतलो साप ना जालो. लोक म्हणपाक लागले, सैमाचें एके वटेन लुकसान जालें खरें, पुणून दुसरे वटेन सैमाचो खुबूच लाव जालो. देवी भाशेन मलेरियाय सासणाचो ना जालो.

पुणून, सैमाचीं गुपितां केन्ना कोणाक सारकीं कळ्ळ्यांत व्हय? मलेरिया 'गेलो... गेलो' म्हूण आमी म्हणटात थंय आसात, जळारां पर्थून काना कडेन गूं गूं करपाक लागलीं. आयलीं तीं देवा कडल्यान कसलो वर घेवन आयलीं, तांकांच खबर. तांचे मुखार डी.डी.टी.चें आतां कांयच चलना म्हणटात.

लोक आतां आंगाक 'ओडोमोस' साड्डावन न्हिदपाक लागल्यात. 'कछुआ' ना जाल्यार 'मोर्टेम'चीं वेंटाळीं (coils) सवन रात पेटत दवरूंक लागल्यात. 'गुड नायट' लावपाक लागल्यात...

कांय जाण म्हणटात, ह्या सगळ्या उपद्व्यापांक लागून जळारां पसून तुमी तुमकां वाटायतात जातले, पुणून बदलाक कसलीं कसलीं संकश्टां मोलावन हाडटात जातले हाचो तुमकांय अदमास ना, सरकाराकूय ना.

सगळ्यांत बरे आशिल्ले मोश्कितेर - मच्छरदांडयो. पुणून त्यो खंयच दिश्टी पडनात. आमगेरूय नात !

□ □ □

विज्ञान तंत्रज्ञानाच्या मळार आमचो देश फाटसार - बॅकवर्ड. पुणून किडी मुयो मारपी वखदां तयार करतल्या देशां मजगतच्या सगळ्यां मुखार - फॉरवर्ड. आशिया खंडांतलो दुसऱ्या नंबरा वयलो. पयल्या नंबरार कोण आसा, खबर ना. पाकिस्तान आसूं येता, बांगला देश आसूं येता. एका काळा वयले आमच्याच देशाचे वांटे ते. आमचे परस चड सुधारिल्ले कशे आसतले?

चडांत चड वखदां आमी कापसाच्या उत्पन्नाचे प्रक्रियेंत वापरतात. उपरांत तांदूळ गंव काडपी शेतां, शाक भाजी दिवपी ऑट्टां, फळां दिवपी पोरसां आनी निमाणीं उशेलां येतात.

विज्ञानीक कितल्योश्योच गजाली आमचे पसून लिपोवन दवरतात. देखीक, ज्यो किडी मुयो आमी मारतात तांतल्या साठ प्रतिशत किडी मुयांक खासा सैमूच नियंत्रणांत दवरता हें सत्य विज्ञानीक आमकां सांगिनात. कित्याक सांगिनात? कित्याक, आयचे विज्ञानीक विज्ञानीक उरूंक नात. खूबश्या जाणांनी आपणाली बुद्द व्यापारी कंपन्यांक विकल्या. सत्य सांगपाक लागले जाल्यार तांगेल्या धनयांचो माल खपपाचो ना.

आमच्या देशांत फाटल्या पन्नास साठ वर्सां सावन कोडू लिम्बाचें संशोधन चलतालें. कोणाचेंच लक्ष ताचे कडेन वचूंक नाशिल्लें. अवचीत एक दीस एके अमेरिकन कंपनिचें गेलें. पिकांचें नाशें करपी जिवांक नियंत्रणांत दवरपी सगळ्यांत प्रभावी वखद कोडू लिम्बू म्हणपाचें हे कंपनीक कळ्ळें. नीमपेण म्हूण एक सारें (तिका सारें म्हणचें काय वखद?) भारतांत लोक वापरीत आयल्यात म्हणपाचें तिणें पळेलें. सगळेच नीमपेण वापरपाक लागले जाल्यार आमचीं वखदां कोण घेतलो - आमचो एक व्हड बाजार हातांतलो सुट्टलो - ह्या भंयान तिणें कळाव लायनासतना कोडू लिम्बाचें 'पेटंट' भारता कडल्यान विकतें घेतलें. आनी भारतान तें विकलें! भारतान हळडिचेंय पेटंट विकिल्लें. कोणें तरी हळडीक तांच्या दावकुलांतल्यान सोडोवन हाडली. कोडू लिम्बू सोडोवन हाडला काय ना, खबर ना. हाडिल्लो नासत जाल्यार एक विसरूं नाकात, कोडू लिम्बाचो रूख तुमच्या भाटांत आसलो जाल्यारूय ताचेर तुमची मालकी उरूंक ना. मालकी जाल्या 'पेटंट' घेतिल्ले अमेरिकेचे कंपनिची.

बलराम जाखड नांवाचो ताडा-माडा येदो ऊंच एक मंत्री आशिल्लो केन्द्रांत काँग्रेसचे राजवटींत. शेतकी खातें सांबाळटालो. केन्नाय तरी देशाचो प्रधानमंत्री जातलों ह्या सपनांत गुल्ल आशिल्लो. हातूंत ताका आधार दिवपाक ताचे कडेन ताची जात आशिल्ली - जाट. भौराष्ट्रीय कंपन्यांचो हातभार लागलो जाल्यार प्रधानमंत्री जावपाचें सपन खरें जावपाक अडचण येवची ना, असो ताचो अदमास आशिल्लो. तो टाय-बीय घालुनूय ऑफिसांत येवपाक लागिल्लो. ताणें भौराष्ट्रीय कंपन्यांक कितें कितें विकलां जातलें सोदून काडचें पडटलें. पुणून, कोणाच्या पाड्या नशिबान, कोणाक खबर! केन्द्रांतली काँग्रेसची राजवट गेली ती सासणाची गेली. परती येवपाचीआस्तूच आतां उरूंक ना.

□□□

फार्टी मुम्बय गेल्लों. मुम्बयंत पावलों म्हणटकूच एक दीस पांय आपशींच मणिभुवनाचे दिकेन चलपाक लागतात. एका काळा वयलें म्हजें मुख्यालय आशिल्लें हें मुम्बयंतलें. ५६सावन ५९ मेरेनचीं चार वर्सां हांगा सारल्यांत हांवें. पावलों म्हणटकूच वरभर तरी थंय बसतां. ते मुस्तींतले कांय इश्ट इश्टिणी मेळटात. तांच्यांतल्या एकल्यान म्हाका एक खबर सांगली -

'आमच्या जामनगर जिल्ल्यांतल्या एका गांवांत म्हजो एक इश्ट शेतकाम करता. ल्हानशे जमनिचो धनी - दोन बिघ्याचे. मस्मी भिकणां रोवपी. ९३त ताणें एक प्रयोग केलो. सदचे वरी भिकणां रोयलीं. पंचवीस दिसांनी ताणें अर्द्या शेताचेर ताक शिंवरायलें. ताणें वराहमिहिराचो **वृक्ष-आयुर्वेद** ग्रंथ वाचिल्लो. 'खंयच्याय रोप्याचेर फूल येवचे पयलीं ताक शिंपडावचें' ह्या अर्थाचो एक श्लोक ताका तातूंत मेळ्ळो. 'पळोवया करून प्रयोग' अशें ताणें येवजिलें आनी मस्मी भिकणाच्या रोप्यांचेर पंपान ताक शिंवरायलें. कांय दिसांनी पळे जाल्यार, शेताचो अर्दो वांटो (ताकाचो शिंवर पडिल्लो) रसरसून वयर आयला. पयसल्यान पळेल्यार लेगीत दोन अर्दां मदलो फरक कळटा. पीक काडून जातकच पळे जाल्यार - ताक मारिल्ल्या अर्दान इकरा मण भिकणां दिल्यांत. तर दुसऱ्या अर्दान सदचे वरी सच मण दिल्यांत. ह्या प्रयोगाची खबर भोंवतणच्या गांवांनी पातळ्ळी. दुसऱ्या वर्सा सावन ह्याय गांवांनी लोकांनी रोप्यांचेर ताक शिंवरावपाचे प्रयोग केले. भायलीं सारीं वापरपाचीं सगळ्यांनी सोडून दिलीं. तांकांय एका एका बिघ्यांत इकरा इकरा मण उत्पन्न मेळपाक लागलें. आतां हो प्रयोग मोठ्या प्रमाणांत थंय चलपाक लागला. कापसाच्या आनी तिळांच्या रोप्यांचेर लेगीत ताक शिंवरावन लोक सदचे परस चड उत्पन्न काडपाक लागल्यात. ह्या वाटारांत पावस वेळार केन्ना पडना. मिर्गार पडटा जाल्यार रोखडोच बंद जाता. खूब द्रीस पडऽच ना. पावस नाशिल्ल्यान शेतांचें खूब लुक्सान जाता. पुणून - ज्या रोप्यांचेर ताकाचो शिंवर जाल्लो, ते पावस नासुनूय तिगून उरले. नवरात्रांत पावस पडलो आनी शेतां पिकलीं तेन्ना ताकाचो शिंवर केल्ल्या शेतांचें उत्पन्न सदचे परस वाडिल्लें पळोवंक मेळ्ळें... ह्या वाटारांत आतां भायलीं सारीं चडशे कोण वापरी नात. कोडू लिम्बाचीं आनी तंबाकूचीं पानां हाडटात, उदकांत सळसळायतात. उपरांत थंड जातकूच रोप्यांचेर शिंवरायतात. रोप्यांची पिडा आडावपी तांक हाका लागून वाडटा ती लोकांनी पळेल्या. वर्सान वर्स एका एका शेतकामत्याक भायल्या साऱ्यांक तीनशें तीनशें रुपये खर्च करचो पडटालो.ह्या कोडू लिम्बाच्या आनी तंबाकूच्या प्रयोगाक पानदुडूय खर्च येना तो पळेलो.'

इतलें सांगून ताचे जिबेर एक गुजराती म्हणणी आयली - 'वाळ्या न वळे इतो थाक्या वळे' - समजावन सांगलें जाल्यारूय जें समजना तें मार खाले उपरांत आपशींच समजता.

हांवें म्हळें, 'सभाग्या, ही खबर आनीक कोणाक सांगूं नाका. तुजे म्हजे भितर आसूं दी. फां फां जावन सट्ट करून खंयचेय भौराष्ट्रीय कंपनिच्या कानार पावली जाल्यार, सांगूं नज, ताक तुमच्या घरांत तुमी केलें तरूय तें तांचे मालकिचें जातलें... तांची परवानगी घेवन तें वापरपाचो तुमचेर प्रसंग येतलो.'

म्हाका दुसऱ्या दिसा गोंयां परतुपाचें आशिल्लें. तिकेट 'बूक' केल्ली. आनी तीनसांज जाल्ली. ना जाल्यार, अख्खी मुंबय उमथी घालतलों आशिल्लों आनी वराहमिहिराचो 'वृक्ष-आयुर्वेद' सोदून हाडटलों आशिल्लों.

आमचे कडेन विज्ञान ना? कोण सांगता?

सोदल्यार मेळटा. ताचेर संशोधन मात जावपाची गरज आसा.

## बुद्ध विष्णूचो अवतार ?

हिन्दू खंय बुद्धाक विष्णूचोच एक अवतार मानीत आयल्यात. तुर्ताक चलता तो काळ बुद्धाचो अशेंय खंय ते मानीत आयल्यात. म्हूण, खंयचेंय धर्मकार्य सुरू करता आसतना हिन्दू **वैवस्तवे मन्वंतरे बुद्धावतारे** अशें म्हणुनूच खंय संकल्प सोडटात.

व्हडल्या व्हडल्यां कडल्यान आमकां हें आयकूंक मेळटा.

पुणून, बुद्धा आदीं विष्णून जितलेय अवतार घेतले ते संवसारांत कितेंय तरी चालू करपाक, थीर करपाक, स्थापन करपाक घेतिल्ले. बुद्धाचो अवतार ताणें कितें करपा खातीर घेतिल्लो?

भागवत पुराण मात्शें उकतें करून तांतलो १.३.२४ श्लोक पळोवचो.

ट्या, विष्णून बुद्धाचो अवतार कित्या खातीर घेतिल्लो तें स्पश्ट बरें त तलें. श्लोकांत म्हळां -

तत्कालौ सम्प्रवृत्ते सम्मोहाय सुरद्‌विषाम्
बुद्धो नाम्नाऽजनसुतः कीटकेषु भविष्यति ।

म्हयार -

आं कलियुग सुरू जातलें तेन्ना एका किरकोळ घराण्यांत जल्माक आयिल्लो भुत (अजनसुतः) बुद्ध म्हूण नांव घेतलो आनी ब्राह्मणांचो दुस्वास करपी ांव(सुरद्‌विषाम्) भूल घालून (सम्मोहाय) आपणा वशीन ओडून घेतलो ीकटक देशांत (म्हळ्यार बिहारांत) आपणालें अवतारकार्य चालू करतलो. सामान लोकांक समजत असले भाशेंत हाची अर्थावणी केली जाल्यार न ता -

कपिलवस्तूंतल्या ज्या शाक्य घराब्यांत बुद्धान जल्म घेतिल्लो तो 'किरकोळ' ाशिल्लो. सारिपुत्त मोग्गल्लान, कात्यायन बी ब्राह्मणांनी ताची शिकवण ल्ते सगळे 'ब्राह्मण दुस्वासी' आशिल्ले आनी बुद्धान तांकां समजावन ाय, तर 'भूल घालून' ती पटयल्ली.

हा कितें म्हणची? बुद्धाची तोखणाय, काय ताची अखटाय?

ौक मात्शे खोलायेंत देंवुया -

र्नांत लेगीत एकाद-दुकलो बौद्ध दिश्टी पडलो जाल्यार अपशकून शें धरून चलचें' अशें याज्ञवल्क्यस्मृतींत म्हळां. (छापणावळींत चुको म्हूण संस्कृत श्लोक दिना. पुणून संदर्भ दितां: या.स्मृ. १.२७१)

ीनाचो पूत दैत्यांक वांकडे वाटेन व्हरतलो आनी तांकां बौद्ध करतलो' ग्निपुराणांत म्हळां (अ.पु. १६.१.३.) 'धव्या फुल्ल दांतांचे, अर्दे धांपिल्ल्या ा, मुंडण करून भगवीं वस्त्रां न्हेसून शुद्र लेगीत आतां धर्मकार्यां करतले') ायुपुराणांत म्हळां (वा.पु. ५०-५८,५९). 'अहिंसेची देख दिवन तो लोकांक निर्वाणा कडेन व्हरतलो आनी वेदीक धर्मा पसून तांकां कडेक ो' अशें विष्णूपुराणांत म्हळां (वि.पु. ३.१८-१३.१८).

दुंनी बुद्धाची आनी ताचे शिकवणेची सदां अखटायूच केल्या. अखटायेचो ंकराचार्यान केला. ताणें बुद्धमत्ताक 'सर्ववैनाशिक' (सगळें काबार म्हळां.

च्या तोंडान हिन्दू बुद्धाक विष्णूचो अवतार मानतात, तांकांच खबर!

## कृष्णा

केन्ना एयर इंडियाच्या विमानांतल्यान विदेशाची भोंवडी केल्या? केल्ली तुमच्या सिटा मुखावयले पिशवेंत कांय खबरेपत्रां वांगडा तुमकां **नमस्कार** क नेमाळें मेळ्टलें आशिल्लें. आर्ट पेपराचेर छापिल्लें, देश विदेशांतल्या ुंदर रंगीत फोटे आशिल्लें. इतलें सुंदर नेमाळें दुसरे खंयचेच एयर या विमानांत पळोवंक मेळचें ना असलें. खंय छापलां म्हूण जिज्ञासेन ाल्यार मुम्बयंतल्याच खंयच्या तरी एका छापखान्यांत छापलां म्हणपाचें आशिल्लें. आनी छापपी मनशाचें नांव वाचिल्लें जाल्यार **कृष्णा करवार** ्क मेळटलें आशिल्लें.

ाच्या हातान जें जें कितें छापून आयलां तें तें सदां दिश्ट लागपा सारकेंच गीर तें शोभा डे चें **सेलेब्रिटी** आसूं, अर्थवेव्हारा वयलें **कॅपिटल मार्केट** फॅशनी विशिंचें **ग्लॅडरॅन्ज** आसूं.

णींतलें **महाभारत – एक अनुसर्जनूय** कृष्णानूच छापलां.

ा निखटो 'छापपी'नाशिल्लो. उजवाडावप्यान आनी बरोवप्यान मुद्रितां आसलीं जाल्यारूय दोळ्यांत तेल घालून तो आपूण मुद्रितां पळेतालो. न्हस्व दीर्घाचीच न्हय, तर साद्या विराम चिन्हाचीय एक लेगीत चूक उरूंक जायना हाची जतनाय घेतालो. 'एक लेगीत चूक उरली जाल्यार म्हज्या चारित्र्याक खत लागिल्ले वरी खंत म्हाका भोगता' अशें म्हणटालो. जें कितें आपणा हातांतल्यान येता तें सदां 'बऱ्यांतलें बरें जावंक जाय' अशें मानतालो.

एम्. ए. जाल्लो. खंयचीय बरी नोकरी करून ताच्यान सुसेगाद बरें जिवीत सारूं येतालें. पुणून ताका 'मुद्रणा'चें 'पिशें' लागिल्लें. तागेलो असो छापखानो नाशिल्लो. म्हूण ताणें उषा प्रिन्टर्स, कर्णाटक प्रिन्टिंग प्रेस, कॉन्वे प्रिन्टर्स, मोहन मुद्रणालय असल्या कितल्याश्या वेगळ्या वेगळ्या छापखान्यांत काम केलें. निमाणें, सगळेच छापखाने आपणाले अशें थारावन तो छापणावळिच्या मळा वयलो 'फ्रीलान्सर' जालो. बरे बरे नांवाजते उजवाडावपी ताचे सुवादीन आपणालीं पुस्तकां करताले आनी वेगळ्या वेगळ्या छापखान्यांत तो तीं छापून घेतालो. ताणें छापिल्ल्या कितल्याश्या पुस्तकांक राज्य तशीं राष्ट्रीय पांवड्या वयलीं इनामां मेळ्ळ्यांत.

हालीं हालीं 'ढवळे पुरस्कारा'न तो सन्मानीत जाल्लो, तसो 'अखिल भारतीय सन्माना'नूय भौमानीत जाल्लो.

कोंकणीचो उपाट मोगी. सभावान पराकाश्टेचो नमळ. दुसऱ्यांक मुखार काडून आपूण सदां फाटीं रावपी, इश्टांचेर मोग करपी, छक्के पंजे नाशिल्लो, चारित्र्यान निर्मळ कृष्णा सदांच सगळ्यांच्या उगडासांत उरतलो. कोण केन्ना ताका विसरूंक पावपाचो ना.

तो आयज ना म्हणपाचें सोपूत घेवन सांगल्यारूय खरें दिसना.

* * *

## पडसाद

भौ. वावुरपी संपादपी
'जाग' म्हैनाळें

पडसाद ह्या मायन्याखाला (जाग, देझेंब्र २०००), भौ. काशिनाथ शांबा लोलयेंकार, ह्या नांवान बरोवपी कविचें पत्र वाचलें आनी ह्या पत्राक संपादकान दिल्ली जापय वाचली.

पत्रांत दोन मुद्दे आसात: कविच्या स्वातंत्र्याचो एक मुद्दो आनी संपादकाच्या स्वातंत्र्याचो दुसरो मुद्दो.

कवीक आपलो आशय सांगपाखातीर कांय वेळा भास मोडची पडटा. भास मोडून तो भास घडैता. देखून, कविच्या स्वातंत्र्याक बाधा हाडूंक जायना; बाधा हाडूंक फावना.

१९४० ते १९५० ह्या काळांत, बडोद्याक साकून 'अभिरुची' ह्या नांवाचें एक मराठी म्हैनाळें येतालें. पुरुषोत्तम चित्रे ताजो संपादक आसलो. तातूंत खंयच्या तरी वर्साच्या, खंयच्या तरी आंकांत 'पिंपात मेले ओले उंदिर' ह्या कडव्यान सुरू जावपी, मराठीचे प्रतिभावंत कवी भौ. बा.सि. मर्ढेकर हांची कविता उजवाडाक आयिल्ली. हे कवितेंत उतरांच्या जाग्याच्या क्रमांत बदल आसा. अभिरुचिच्या संपादकान ती जशाक तशी छापल्या. हाजेवेल्यान म्हाका किदें सांगपाचें आसा तें तुमकां समजलां आसतलें.

संपादकाच्या स्वातंत्र्याचो मुद्दो आसाच. कविची कविता मानलिना जाल्यार ती कविता परत करपाचें स्वातंत्र्य संपादकाक आसा. कवितेंत बदल करपाची गरज दिसल्यार, संपादकान तशें सांगून कविता कवीक परत धाडूं येता. संपादकाच्या ह्या हक्काक कोणाच्यान हात लावूं नजो.

**– पांडुरंग भांगी**

# हातबेडी

बरोवपी : वायकम मुहम्मद बशीर
अणकार : आर. के. राव

हातबेडी पळयली? म्हण म्हज्या सांगाती कैद्यान हाताक घाल्ली बेडी दाखोवन, दुखेस्त मनान आपणाली दुखभरीत कथा सांगून सोंपयली तेन्ना म्हाका कितें दिसलें? स्पश्टपणान सांगपाक म्हाका कळना. म्हज्या उजव्या हाताक ताका बांदिल्लो. म्हज्या बरोवपाच्या ह्या उजव्या हाताक बेडी आशिल्ली. दुसऱ्या वाळ्यांत सांगात्याचो दावो हात. ताच्या माथ्यार सोलिल्लो नाल्ल भरिल्लो एक साक. त्या ओज्याक आधार दिवपाचे भाशेन उजवो हात. तो पुराय नागडो नाशिल्लो. पिंजकरें बुरशें घाणयारें खादिचें आंग पुसपाचें लुगट कमराक वेडायल्लें. म्हजे कपडे - खद्दर जुब्बा आनी खद्दर धोती - आदल्या काळाक धवे आशिल्ले. आयज ते पिंजिल्ले. बोंथरे बुरशे जाल्ले आनी, दुसरे म्हाका वळखतले म्हण लेखून म्हज्या मनांत दूख जागयताले. शें देडशें बंदी आसात. अनवळखी शारांतली पोलीस-कोठी. म्हाका व्हडलेशे कोण वळखलेनात. आनी निमाणें तो दीस आयलो. सुटपाचो दीस न्हय. न्यायाधिशान निकाल दिवंचो दीस. णव काय धा म्हयने थंय बंदखणींत वेळ दिल्लो. तें लेखांत धरचें न्हय. खरी ख्यास्त येवचीच आशिल्ली. तिची ही सावळी. सावळीच उजो जाल्यार उजो कसो आसतलो? मनांत विचार येताले. अदमासान देडशें बंदी. उज्यांत पडून भाजतात जाल्यारय एक फायदो आसा. पोटांत इल्लें तरी पडटा. भायर आशिल्ले जाल्यार? दुस्काळ, झूज. तरी पोलीस-कोठये भायल्या लोकां भितर उपाशीं पडून मरपांत एक मजा आसा. 'कोण रे तो सुणो?', 'तुजी आवय रे', 'उलोवं नाका !', 'आरे, सांगलेंना हांवें, हो रडपाचो जागो न्हय म्हूण?', 'देव तुजो धनी मू?'... पोलिसांचें बंद्यां कडेन उलोवप. कितले बंदी ! सगले अपराधी. अपराध्यां कडचो वेव्हार. हातूंत क्रूरताय आसा अशें म्हणूं येता? धर्तरि वयल्यो लाखांनी पोलीस कोठयो. गुपीत आनी भौशीक पोलीस. खाणा-जेवणाक आनी हेरा कित्याकूच पावना असो पगार. तिरस्कार दिसचो अशें जिवीत. पोलिसांनी मुठी मारून म्हजो पिठो केलो त्या वेळारूय, अश्लील उतरांनी म्हाका न्हाणयल्ल्या वेळारूय म्हाका दिसलें: जाता जाल्यार पोलिसांचो पगार वाडोवंक जाय ! पूण म्हज्यान कितें करूं येतालें? दुसऱ्या बंद्यांच्या मनांत कितें आशिल्लें, हांव नकळ. पोलीस म्हळ्यार खंयच्याय सरकाराक पळोवपाचो हारसो अशें दुसरे येवजिताले आसतले. घडये नासतलेय. तांच्या मनांतलें म्हाका कशें कळचें? हांव कोणाच कडेन उलयनाशिल्लों. सुमार देडशें दादले चार पोलीस-कोठयांनी रात दीस मोन्यांनी आसताले. उलोवप ना, हांसप ना - मुमुरख्यांनीय हांसप ना, कांय ना - मोनेळ. ही स्थिती आशिल्ली. देखून म्हज्या उजव्या हाताक बांदिल्ल्या सांगात्याक हांव वळखनाशिल्लों. तो म्हाका वळखतालो जाल्यारूय हांव नेणां आशिल्लों. त्या दिसा हातबेडयो घालून रस्त्या वेल्यान चलत आमकां न्यायालयांत घेवन गेल्ले तेन्ना दीस भर दुसरे एक बंदी म्हज्या हाताक बांदून आशिल्लो. अपराधी म्हणटकूच खुनी, चोर, लुटमारो, पाकीटमार, स्मगलर, दुडवांच्यो नोटी दोन पटिंनी वाडोवपी, खोट्यो नोटी छापपी, राष्ट्र-अपराधी - कोणूय आसूं येतालो. हांव कांय उलयलों ना. फकत नशिबाचें चिंततालों. पूण न्यायालयान निकाल दिल्लो त्या दिसा हांव नशिबाचेंय चिंत नाशिल्लों. घडये म्हाका सारकी जायनाशिल्ली बेडी म्हज्या उजव्या हाताक बळान दांबून घाल्ली, ती म्हजो हात दुखयताली देखून जावंये. सांगाती अपराध्याकूय दुखतालें काय, हांवें विचारलें ना. कितेंय जावं, न्यायाधिशा आमचो निकाल दिलो.

दिशिल्लें, चडांत चड स म्हयने आसतले. दुसरो अपराधी कितें येवजितालो हांव नकळं. निकाल आयकलो तेन्ना हांव बेशुद्ध जालों ना. दोन मिनटां खाती दोळ्यांनी देखपाक आनी कानांनी आयकुपाक कठीन जाल्ले वरी जालें. दुसऱ्य मनशाक कितें दिसलें, खबर ना. घरकान्न आशिल्ली देखून तिचे पासत एकाद्र उगडास केल्लो जावंये. कितेंय जावं, त्या अपराध्या विशिंचो मना लागपी अस थोडो तपशील त्या दिसा म्हाका कळ्ळो. हें कशें जालें, सांगतां :

सार्वजनिक रस्त्या वयल्यान हातबेडयांची मिरवणूक न्यायालयांत वचपाव मुखार सरता. अठरा हातबेडयो, सतीस बेडयोधारी. चडश्या जाणांच्या माथ्या ओजीं आसात, पुरावे, प्रमाणां. आपणालीं आनी दुसऱ्यांलीं. दुसऱ्यांच्या ओज्याच एक भाग तरी आमी घेवंक जाय म्हण एक तत्त्वगिन्यान आसा मू. कित्याक म्हा म्हाका कळना. तें व्हरपाक म्हाका पोलिसांनी सांगलें ना. सांगिल्लें जाल्यार हां घेवन व्हरतलों आशिल्लों काय ना म्हुण्णूय म्हाका कळना... मरण जाल्यार मरण, तें आशिल्लें तेन्नाचें तत्त्वगिन्यान. आमी तशे सतीस बेडयो घाल्ले अपराधी एव ओळीन रावल्यात. आमचे लागीं बंदूक आनी तलवार घेवन स पोलिसूय.

'वाटेर खंयय उलोवंक रावल्यार रांडेपुतांचें काळीज मारून मारून उदव करतले !... हूं, सरात रे मुखार !' अशें सदां भाशेन पोलिसांनी म्हळें. तेन्नाच एव ल्हान तिरंगी बावटो धिरिश्टान वयर काडून उबोवन, एक सुंदर मोटार गाडं पोलीस ठाण्या मुखार 'झुम्म्' करून येवन उबी रावली. तातुंतल्यान खादं न्हेशिल्ले दोग मानेस्त सकयल देंवले. एकलो थळावो पोलीस इनस्पेक्टर. दुसरो

'म्हजो फिर्यादी', सहअपराध्यान ल्हवू, सामकें ल्हवू म्हळें. 'एक पोरण भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेसवालो, वळखता?' हांवें म्हळें : 'वळख मेळना.'

त्या पोरण्या काँग्रेसवाल्यान इन्स्पेक्टराक हात दिलो. दोगूय कितें तर फुतफुतले आनी 'ऑल रायट् ! ऑल रायट् !' म्हणत तो काँग्रेसवालो ते सुंद मोटारींत बसलो. 'गर्रर्रऽ आवाज करीत झेंडो उबयत गाडी गेली.

'हूं. चलपाक लागात रे !' अशें सदां भाशेन पोलिसांनी म्हळें. हातबेडयांची मिरवणूक मुखार सरली. भर वोतांतल्यान भर बोवाळाच्या रस्त्या वयल्यान आंवळून घाल्ले बेडयेचे दुखिची कठीन थंडीय मज्जातंतूंतल्यान म्हज्या मेंदूं पावली. सांगाती अपराध्याच्याय मेंदूंत ती पावली काय ?

ताणें विचारलें : 'म्हाका वळखता ?' हांवें म्हळें : 'ना.'

ताणें म्हळें : 'हांव हांगाचे टाउन काँग्रेसिचो...'

'काँग्रेस ? '

'सेक्रेटरी.'

'केस ? '

'घर फोडप !'

बरें न्हय ?! टाउन काँग्रेसिचो सेक्रेटरी. आनी घर फोडप ! अजाप दिसलें तरीय हांव ओगी रावलों. ताणें म्हाका विचारलें : तुजी केस देशद्रोहाची न्हय?

'हय.'

'काणी काय नाटक ?'

'दोनूय. हांव दोनूय.'

ताणें म्हळें : 'तुका हांगा हाडिल्लो तेन्नाच हांव समजल्लों.'

'दुसरे पोलीस कोठयेंत कितले म्हयने आशिल्लो ?', ताणें विचारलें.

हांवें म्हळें : 'दोन.'

'थंय आसतना तुका मार पडिल्लो ?'

'इल्लोसो.'

व तीन खेपो मारून चेंचायलो सामको.'

ार्ग घर...?'

डतल्यान इन्स्पेक्टराक देंवोवन गेल्या...'

णरांडेपूत रे तो उलयता?' एका पोलिसान बेश्टोच धेंकणो घालो. घाले ओगी पडले. मिरवणूक तशीच मुखार सरली. वेळ चड जालो. ातबेडी हालयली. दुखीन हांव जागरूक जालों. ल्हवू ताणें म्हळें : 'त्या ासवाल्याच्यो मिली आसात - रायस मील आनी ऑयल मील.'

वं'

ं व सांगलें : '----'. हांव ताका वळखलों.

क्लां. गांधीजी हांगा आयिल्ले तेन्ना दोन दीस तांचे सोयरे आशिल्ले.' ा हात्मा गांधी बशिल्ले थंय एक स्मारक उबारलां. मारबल फातराची ाळये वयले कुडींत. मर्दी 'महात्मा गांधी हांगा बशिल्ले' अशें भांगरा वन दवरलां. ताणें मुखार म्हळें, 'तुका ह्या लॉक-अपांत हाडचे णव र्ग म्हाका हांगाच्या इन्स्पेक्टरान बंदी करून हाडलो. हांव न्हावपाक जेचो वेळ. घरकान्न म्हाका न्हावपाक उदक तापयताली.'

घरकान्न म्हाका न्हेसपा खातीर वस्त्रां घेवन पोलीस ठाण्यार धा वीस ी. दिवपाक इन्स्पेक्टरान परवानगी दिली ना.'

शें'

ती मनान आपणाली खबर सांगली :

क व्हडेंकार म्हूण जल्मल्लों. म्हजे लागीं दुडू नात. डिग्री ना. इकरा सिचें दायज. हांवें जायतीं फळादीक भाशणां दिल्लीं.'

व'

--'.

!!'

कलां ?'

खेपो कादयेंत गेलां. म्हजो जागो विकून दुडू कामगारां खातीर खर्चल्लो.' मारांक?'

काँग्रेसिच्या झेंड्या खाला कामगारांक संघटीत केले... आयकता न्हय?' आयकतां...'

खांत म्हाका हाडून पोलीस कोठयेंत घालो. सुरवेक म्हजेर जबरदस्ती सुमार एक हजार बायलां आनी दादले हातांत तिरंगो आनी पेट्रोमाक्स पोलीस स्टेशना मुखार एकठांय जाल्ले.'

ाक?'

ा सोडचो म्हूण तांणी बोवाळ केलो. सत्याग्रह केलो. पूण रिजर्व तांकां मार घालो.'

?'

स कमिशनर धरून वयर आशिल्ल्यांक सगळ्यांक तार धाडली...' ुटपाचें किते ?'

कारान केल्लें. हांवें कोणाचेंच घर लुटूंक ना. सांगलें ना तुका, रायस यल मील... सुमार तिनशें कामगार... चड बायलां. सगळ्यांक हांवें र न्हेसयलें. तिरंग्या झेंड्या खाला...'

आदीं कामगारांक मजुरी तांदळा रुपान दिताले. तेन्ना तांदळाक चड ल्लें. झूज सुरू जालें आनी भाताचें मोल वाडलें. तांणी तांदूळ सांठावन नी कामगारांक पोरणीच मजुरी दुडवा रुपान दिवंक लागले...' न्यायालयांत पावले. तो आपणालो विशय विसरलो ना. न्यायालयाच्या कामांत आमी घुस्पून उरले. आमच्यो बेडयो काडल्यो. आमकां पोलीस शिमे वयले कोठयेंत व्हरून घाले. केशीं प्रमाणें मॅजिस्ट्रेटा मुखार हाजीर केले. एक दोन तीन चार केशिंची तपासणी केली. चडश्यो केशी स्थगीत करून मुखार धुकल्ल्यो. आमचे केशिचो निकाल दिल्लो. सांज लागीं पावली तशे कादयेच्या स्पश्ट उगडासान हातबेडयो घालून आमकां पोलीस कोठयेंत परतून हाडले. आमकां पुरो जाल्लें. दुख्ख सगळ्यांक आसा. सांगात्यान दुख्खान म्हळें :

'न्यायाधिशान दिल्लो निकाल आयकून म्हजी घरकान्न बेशुद्ध जावन न्यायालयांत खाला पडली!'

'म्हाका कोण ना, देखून म्हजी मजा.'

ताणें विचारलें : 'कितले म्हयने?'

हांवें म्हळें, 'दोन वर्सांची खर बंदखणिची ख्यास्त आनी एक हजार रुपयांचो दंड लायलो. दंड भरिना जाल्यार आनीक स म्हयन्यांची खर ख्यास्त.'

ताणें चिके वेळ जाले उपरांत म्हळें : 'म्हाका फकत दोन वर्सांची ख्यास्त.'

म्हाका एक हजार रुपया दंड लायिल्लो तातूंत गंभीरताय दिसली. दुडू ना जाल्यार कितें? रीण आसचें एक योग्यताय आसा. जाल्यारय -

दोन वर्सांचे खर बंदखणिचे ख्यास्तीक आनी एक हजार रुपया दंड लावपाक हांवें कितें केलें? हांवें कोणाक जिवानशीं मारिल्लो व्हय? कोणाक दुख्ख दिल्लें व्हय? अडेच वर्सांक रात कितें म्हण कळचें ना. एक नखेत्र काय व्हड विशय न्हय. तरी... शेऽ... म्हाका सगल्या सगलो त्रास दिसलो. घळघळीत रडपाची इत्सा जाली. पूण दुकांचे थेंबे खंय? हात बेडी ! हात बेडी... चिंतनांक लेगीत बेडी! फुडार कोटी कोटी लोकांचो फुडार... सगल्यांक हातबेडी. म्हजीं चिंतनां वयर सकयल जातालीं. सांगात्यान म्हळें : 'सांगात्या, म्हजें लग्न जावन देड म्हयनो लेगीत जावंक ना. ताचे आदीं...'

'?'

'उमळशीक पुरायेन हांव एक...'

हांव चूप रावलों. म्हाका कसली उमळशीक?

ताणें विचारलें : 'तुका घरकान्न आसा?'

'कोण्ण ना.'

'असो पयलेच खेपे तूं कादयेंत वता ?'

हांवें म्हळें : 'हाचे आदीं दोन तीन खेपो गेलां.'

बशिल्ल्या ताळ्यान ताणें म्हळें : 'सांगात्या... म्हजी घरकान्न... ती...'

आनी चलतां चलतां तो रडलो. सुसकारून न्हय. मोन्यांनी. आमी तशेच मुखार सरले. लायटिचे दिवे स्पश्ट जाले. दुकांचे थेंब पुसपाक ताणें हात उबारलो. म्हज्या हातान ते पुसले.

'माफ करचें !' ताणें म्हळें. हांव कांय उलयलों ना. हातबेडयांची मिरवणूक पोलीस स्टेशना सरीं पावली. ताणें म्हळें, 'एकाद्री हिंसा जावंये !'

'कितें ?'

'कामगाराक तांदळा रुपान मजुरी दिवपाक जाय म्हण आमी हट धरिल्लो. पूण आमी सगले उपास काडटाले. तरी तांणी तें केलें. भारताचें... स्वातंत्र्याचें... प्रतीक.... ते पोरणे भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेसिचो मुखेल... ताणें इन्स्पेक्टराक पांचशें रुपया लांच दिवन म्हज्या नांवार कोर्टांतलो फटिचो आरोप दवरलो.'

'इन्स्पेक्टर आतां पवित्र खादी न्हेसला !' तो मुखार म्हणूंक लागलो : 'आनी सगळे खादी न्हेसतले. सगळें परतें सुरू जातलेंय बी. एकाद्रें, म्हजेंच चुकलें जावंये. सगलीच चूक... आमी तांचे इमारती मुखार सत्याग्रह केलो. सगळ्यांक...' अशें म्हणून ताणें दावो हात वयर उबारलो. आनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी लोकांक पळेत ताणें विचारलें,

'हातबेडी पळयली न्हय?'

* * *

# ‘अळंग’ वाचले उपरांत

(दोन चिटी)

बोरीवली, मुंबय
१८ सप्टेंबर २०००

प्रिय परेश,

‘अळंग’ हो तुजो पयलोच कोंकणी कवितासंग्रह खुबूच अपुर्बायेचो जाला. म्हाका खात्री आसा, म्हज्या ह्या पत्रा पयलीं तुका खूब जाणां कडल्यान पत्रां आयल्यांत जातलीं. खूब तेंपान कोंकणींतल्यान बरयल्ल्यो इतल्यो सुंदर कविता वाचूंक मेळ्ळ्यो. मराठींतल्यान सुद्दां हालीं ‘दर्जेदार’ म्हणपा सारक्यो कविता कमीच वाचूंक मेळटात. तुजी दर एक कविता जिवी तट्टटीत आनी रुचीक लागता. व्हडल्या व्हडल्या कविंचे बाबतींत सुद्दां कवितासंग्रहांतल्यो थोड्योच कविता सोडल्यार बाकिच्यो तितल्यो मानवपासारक्यो नासतात. पूण ‘अळंग’ हो तुजो कवितासंग्रह दर एके कवितेक सुंदर आसनाचेर बसोवन दवरता. हातुंतली दर एक कविता लक्षांत उरपा इतली आकर्षक जाल्या. पुस्तकाचें ‘अळंग’ नांव सुद्दां सार्थ आसा. Most appropriate. स सात कवितांत तरी अळंग शब्द आयला. तुज्या कवितांचो सभावच ‘अळंग’. ह्या एका वैशिष्ट्यान तुज्यो कविता सगळ्या कवीं पासून वेगळ्यो जाणवतात. ज्येष्ठ कवी शंकरबाब रामाणींची कविता म्हाका खूब आवडटा. तांच्या काव्यांत आशिल्ली खोलाय आनी तांतुंतली गूढाची ओड खुबूच वयले पातळेची. तुज्या कवितांची जातकुळी तेच तरेची. पुणून तरीय अदीक तरळ आनी खऱ्यांनीच अळंग उबी आशिल्ली अशी. रामाणीक तुवें काव्यसंग्रह अर्पण करपूय ‘अर्थपूर्ण’ जालां.

इतल्या ल्हान वयांत तुवें प्रतिभेची जी झलक दाखयल्या ताची तुस्त करपाक म्हजे कडेन शब्द नात. फाटलीं ४८ वर्सां सतत मुंबय राविल्ल्यान आनी नित्याच्या वेव्हारांत इंग्लीश, हिंदी आनी मराठीचें प्राबल्य आशिल्ल्यान म्हजी कोंकणी ‘मुंबैवाली’ जाल्या. देखून ‘अळंग’ पुस्तकांतले तुजे अस्सल कोंकणी शब्द वाचतना म्हाका म्हजे सर्गेस्त आजयेच्या आनी आईच्या उलोवपाची याद आयली. आमच्या फोंडें म्हालांतली कोंकणीच म्हाका आपलिशी दिसता. बाकीबाब, मनोहरबाब, रवीन्द्रबाब हांचें बरोवप आमकां कितलें सुखायता! निसर्ग आनी आमचें आयुष्य हातुंतलें घट्ट नातें तुज्या संवेदनशील मनान इतले नाजुकसाणेन टिपलां आनी सुंदर प्रतिमा आनी शब्दांनी प्रत्येक कविता सजयल्या! खरेल्या कविची ताकद तुजे कडेन आसा. तुजो फुडार खूब व्हड आसा. तुगेले सदिच्छेचीं रुपां सुद्दां तुवें कितले चिंतनशील पातळेवेल्यान present केल्यांत. This is real original poetry and has a flavour of lush green मडकय. अशी टवटवीत fresh कविता वाचपाचो आनंद कसो वर्णन करतलों! असो आनंद म्हजे सारक्या वाचप्याक दिल्ले बद्दल तुका कितले धन्यवाद दिवं!

फार्मासिचो वेवसाय वेवस्थीत सांबाळून आनी जायत्या वखदांचो अभ्यास वेवस्थीत चालू दवरून तुजे भितरलो कवी निरामय दवरपांत तुवें यश जोडलां. तुजे कडल्यान हो काव्याचो स्रोत अखंडपणान चलत रावचो आनी ते खातीर तुका आनी तुज्या कुटुंबियांक बऱ्यांतलें बरें आरोग्य आनी समाधान लाभचें अशी प्रार्थना करतां.

गोवा कोंकणी अकादेमी कडल्यान हें पुस्तक नक्कीच साहित्य अकादेमी कडेन पावतलें इतलें merit ‘अळंगां’त आसा.

तुज्या सभावांतली गोडसाण म्हाका खूब आवडली. तुज्या दोळ्यांत कवित्वाचो झरो म्हाका दिसलो. सरस्वतीची जाल्ली ही कृपा तुजे म्हऱ्यांत सासणाची उरूं. राजकारणाचो खूब उबग आयला. मन विषण्ण करपीच घटना चड घडटात. अशे परिस्थितींत ‘अळंग’ सारकें पुस्तक आमच्या मनाक संजीवनी थरता. म्हणून हें तुजें पुस्तक अनमोल आसा.

म्हजे फुडले गोंयचे भेटींत तुका मेळटां.

तुजो
हरदत्त खांडेपारकार

---

१७ ऑक्टोबर २००

प्रिय परेश,

तुजें पत्र मेळ्ळें. खूब बरें दिसलें. ‘रात सरतना’ ही तुजी नवी ता कविता वाचतकच ‘वा!’ अशें म्हणून मेकळो जालों. अशे कवितेचो सां आसतकच जिणेक फांतोड केन्नाच पयसावना.

आरती प्रभू, ग्रेस, पु.शि. रेगे हांच्या कवितांनी मराठी काव्याक नवी उ आयली. तांची प्रतिभा तें मिशन घेवनच हांगा अवतरली आनी म्हणटां म्हा मराठी काव्याक केदी उंचाय आयली. तुजे कवितेक एक निश्चित दिशा आ तुजे कडेन जाय जाय ते शब्द आसात. वि. ज. बोरकर (विष्णु बोरकार) हो आ प्रभूचो आद्य मित्र आनी तो म्हजो कॉलेजकाळ पासून मित्र. तो तुमचे मडकय विलसन कॉलेजांत सायन्सीक आशिल्लो. ‘सत्यकथें’त नित्यनेमान ताच्यो आ आरती प्रभूच्यो कविता तेन्ना वाचूंक मेळटाल्यो. पु. शि. रेगें कडेनूय म्हजो लागिंचो संबंध आयलो. इकॉनॉमिक्स आनी ट्रान्स्पोर्ट ह्या विशयांत चड नामने आशिल्लो हो मनीस दिसूंक ‘कवी’सो नाशिल्लो. पूण मनान सगळो वेळ आप गूढ गूढ काव्यविशयांत तो गुल्ल आसतालो. वि. ज. बोरकर आपल्यो गूढ क घेवन सचिवालयांतल्या घुस्मट्ट्या वातावरणांत Dy. Secretary मेरेन प्रमोश घेत रावलो. ताका मित्र खुबूच थोडे. आपलें ताणें एक बेट केलें आनी आज तशेच अवस्थेंत आपलो संवसार करीत मुंबय आसा. सामकी वयल्या दर्जा ताची कविता, तश्योच कथाय.

मडकयंच्या निसर्गांत कितें तरी स्पेशल आसुंकूच जाय. किसन काम रघुवीर नेवरेकार हांचीं नाटकां आनी तांचीं नाटकांतलीं कामां पळेतकच हें दिसतालें. तुज्या घरांत तर सगळेच वटेन कला फुलतना दिसता. तुजे कविते पायो भक्कम आसा. Originality आनी spontaneity तातूंत स्पश्ट दिस आशिल्ल्यान म्हाका ती चड मानवता. म्हाका दिसता, खंयचेंय कोंकणी पुस्त वाचतकच रोखडोच अभिप्राय दिवपाची ही म्हजी पयलीच खेप. काळजांतल्या खोशी जाता तेन्ना अशें रावंक नज जावन व्हडल्यान दाद दीनशी दिसता. असो बरयत राव. असल्या कवितांचें मदीं मदीं जाहीर वाचन जावंक जाय. चर्चा जाय जाल्यार जाता. काव्यवाचन खूब आनंद दिता. नव्या कोंकणी बरोवप्यां कडे म्हजो संबंद येवंक ना. हालीं कलेच्या आस्वादा परस राजकारणांतूच घुस्पून पिळगी आपली शक्त वगडायत आसा काय, अशें केन्ना केन्ना मनांत येता.

रवीन्द्रबाबां कडेन पर्थून केन्नाय गेल्यार तांकां म्हजो नमस्कार सांग. तांच्या संपादना सकयलें ‘जाग’ हें कोंकणी म्हयनाळें खऱ्यांनीच श्रेष्ठ दर्जाचें आसत एप्रील आनी जूनच्या ‘जाग’ आंकांतल्यानूच पयलेच फावट तुज्यो कविता म्हाक वाचूंक मेळ्ळ्यो.

पयरचे म्हजे गोंयचे ट्रिपींत माधव बोरकारागेर पावलों. म्हज्या मराठी कवितां वाचन थंय जालें. माधवालें चली योगिनी (१२वी यत्तेंतलें) फुडें एक उत्तम कवयित्र जातलें हातूंत दुबाव ना. कोंकणी साहित्याचें कुळागर रसरसून फुलूं आनी फळ म्हजेसारक्या मुंबयकार गोंयकारांक ह्या कोंकणी कुळागरांतूच खरेलो सुशेग मेळट

तुजो
हरदत्त खांडेपारकार

# ांद्दालो पोर हो...

(चवथी खिस्त)

सुमन्त केळेकार

न पावलों तेन्ना शाळेचे वाटे वयले आनीक नवे नवे प्रयोग करपाची लागली. चार चक्रांची मोटार आसता जाल्यार चार चाकांचो गाडो न्हय? घरा फुडल्या लॉजांत वचून एक बरी दाटायेची पणशी आनी मेस्तागेर गेलों. तिचीं एकाच आकाराचीं चार चाकां करून ळार आमच्या घरच्यांनी कोणाकय कितें कर म्हण सांगलें जाल्यार च म्हणनासले. गोविंद मेस्तान तीं चार चाकां वरा-देडवरा भितर ल्लीं. चाकांचे मर्दीं आशिल्ल्या बुराकांत वता त्या आकाराचे पेकळ कुडके जाय आशिल्ले. ते हाडूंक घरा शेजर आशिल्ल्या आमच्या वचून एक कोंडो मारून हाडलो. ताचे हात देड हात लांबायेचे दोन आनी दोन चाकां मर्दीं घालून तांच्यो दोन जोडयो केल्यो. उरिल्ल्या च देड हाती चार कुडके करून राजवान ते दोनय व्हटांनी त्या ड्यांक, स्वाय हात अंतर दवरून घट बरे बांदले. उपरांत उब्यो-कामी लावन त्योय सुमान घट बांदल्यो. इतल्यान चार चाकांची रोखडीच तयार जाली. ह्या गाड्याक फुडले वटेन मदेकाक एक बांदली. ती ओडना फुडें गाडो चलूंक लागतालो. कोणा एकान आनी दोगा तिगांनी तो ओडपाचें काम करप. अशे तरेन पंदरा वीस गाडो चल्लो. मातयेचे वाटे वयल्यान भोंविल्ल्यान खिळखिळो ना जावंक लागलोना. एक दीस, देंवते वयल्यान धांवडावन व्हरता त्वें एक चाक भायर सरलें आनी गाडो थंयचे थंय घट जालो. तरी चर बशिल्ल्याक व्हडलेंशें कांयच जावंक पावलें ना. तो मुखावयल्यान ले पूण ताणें कशें भशेन नाख वाटायलें. हात पांयाक मातशें खरचटलें दिसाच्यान गाडयेचो हो प्रयोग फुडें चलोवपाची कोणाकच इच्छा शी धाडसय जालेंना.

एक दोन म्हयने अशेंच गेले, कांयच करिनासतना. आनी नवी एक तशेंच एक निमित्त जालें. खंयच्यान तरी एक मोटारिचो टायर ताक लागलो. रबराचो टायर म्हळ्यार चलोवपाक सोपो. हातांनी गर्‍ां वयल्यान चलयत व्हरप. तातुंतच मोटार चलयल्ल्याचें समाधान ल्यांत आमच्यांतल्या कोणा एकल्याची फीन तकली त्या दिसा चड चल्ली आनी ताणें सुचयलें, ''त्या टायराचे मर्दीं पोकळ सुवात णा एकाक बसयलें जाल्यार बरें जावचेंना? पळोवया तरी करून.'' मान्य जावपाक कसलेंच आडमेळें आयलेंना. पूण थंय कोणाक ल्येक नासलें. निमाणें ह्या कामाक गजाक तिड लावन मुखार काडलो. ांत मर्दीं बसोवन टायर घुंवडावन व्हरपाची बी तयारी केली. गजो तीन न सुटकेक बसलो. नवोच अणभव आसलो. टायर घुंवंक लागलो. शी गज्याली तकली घटकेक वयर येता जाल्यार रोखडीच सकयल तीय उरफाटी. कशेबशे आठ-धा घुंवडाळे जाता थंय आसा, गज्यान फेस काडलो आनी तो मोट्यामोट्यान आड्डूंक लागलो. टायर थांबयलो शेन गज्याक भायर काडलो जाल्यार तो साबुद्दीर ना. कोणें तरी न लागिंचे खोंपटेंतल्यान उदक हाडलें आनी गज्याल्या तोंडार मारलें, तेन्नाच ताका उतर फुटलें. टायराचे गाडयेचो एकल्यानच घेतिल्लो हो अणभव पळोवन सगळेच शाणे जाल्ले आनी हे फुडें असले हे भानगडींत पडपाचें न्हय अशें आमी सोपूत घेवन थारायलें.

चक्राची ही करामत तरेकवार साधनां वाटयां करून आमी कालचक्राचो अणभव प्राप्त केलो. मनशाचें जिवीतच म्हळ्यार एक चक्र. रुतुचीं चक्रां हीं कालचक्राचीं आंगां म्हणूंक फावो. चक्राचें उजू चलप म्हळ्यार उदरगतिची दिशा गांठप. पांयांक चक्रां आशिल्लो मनीस संवसाराची भोंवडी करूंक पावता. नव्याचो साक्षात्कार जाल्लो मनीस चक्रावन वता. चक्राच्या खेळान फुडाराचो दिश्टावो जावंक पावता. जिविताची साधना फळादीक करतलो जाल्यार चक्राची ओड लागले बगर दुसरो उपाय ना. हें चक्र कोणाच्याच अद्रुश्टांत ना शें ना. चक्राच्या आधारान मनीस फुडें फुडें सरूंक लागता आनी उदरगतिचें फळीत मेळोवंक पावता. चक्राची ही अजापीत करणी आमी शाळेक वता आसतना अणभवताले ते आमच्या जिविताचो वेध घेवंक, अशेंच म्हणूंक जाय.

म्हण म्हणसर परिक्षेचे दीस लागीं पावले. चवथेची म्हळ्यार मुळाव्या शिक्षणाची निमाणी परिक्षा जाल्ल्यान गुरुजी आमचे फाटल्यान लागून नेटान अभ्यास करून घेतालो. पुराय वातावरण अभ्यासाचेंशें जाल्लें. ताका लागून खेळां वयलें लक्ष थोडें भोव उणें जाल्लें. आमचो दादा अभ्यासा खातीर सदांच तोंड वाजोवपी पूण तोय आमच्या खेळांच्या नादाक पळोवन हालिंसाराक व्हडलेंशें ध्यान दिनाशिल्लो. इतले म्हणसर आमच्या मास्तरान परिक्षेच्यो तारखोय फळ्याचेर बरोवन आमकां तयार रावपाचो इशारो दिलो. परिक्षा सुरू जाली. दोन दिसांनी सोंपलीय. सोंपना फुडें सूऽऽ जालें. दोन दिसांनी निकाल लागपाचो आसलो. निकाला दिसा आमी सगळीं भुरगीं सकाळीं शाळेंत जमलीं. इतल्यांत मास्तरान निकाल वाचणाक सुरवात केली. हांव चवथेचे परिक्षेंत तिसऱ्या नंबराक पास जाल्लों. निकाल वाचून जायनाफुडें आमी परते घरा वचूंक भायर सरले. वता आसतना आमच्या फुडल्या शिक्षणा विशीं खबरी चलताल्यो. कोण म्हणटालो, आपूण पुर्तुगेज इश्कोलांत वतलों म्हण, जाल्यार दुसरो कांयच उलयनासलो. ताका फुडलें शिक्षण म्हळ्यार कितें हाची कल्पना लेगीत नाशिल्ली. ना म्हणपाक म्हाड्डोळा पुर्तुगेज इश्कोलांत शिकपाक वचपी चडशे आशिल्ले. म्हणटां म्हणटां हांव घरा पावलों. भितर सरून पळे जाल्यार दादा देवाचे चौखेर बसला. म्हाका पळेनाफुडें ताणें कितें म्हणचें? ''आयलो मरे बरें शेण काडून?'' म्हाका दादाच्या ह्या उलोवपाचें वायट दिसलें. पूण जाणट्यांचो स्वभावच हो असो. तांकां वांकडेंच उलोवपाची संवंय. ''हांव जाणांच आसलों तुजीं लक्षणां! खेळपाच्या नादाक लागून तुजें शिक्षणावयलें लक्ष उडून गेलां. तें सोड, पूण कितें उजवाड घाले तें तरी पळोवया.'' दादान म्हाका विचारलें.

''दादा, हांव पास जालों. म्हजो परिक्षेंत तिसरो नंबर आयलो.'' हांवें म्हळें.

''जावं, तिसरो जाल्यार तिसरो. पूण हे फुडें तरी बरोऽऽ लक्ष लावन शीक पाप्या.'' दादान आशिर्वादाचे भावनेन म्हाका उपदेस केलो.

दादा म्हज्या इतल्या मायेमोगाचो आसलो की तो आसासर म्हाका सगळें कितें भरिल्लें कशें दिसतालें. ताचे बगर म्हजें पान हालनासलें. हांव न्हिदतालोंय ताचेच कुडींत, तो न्हिदता थंय. अजुनय तिका 'दादाली कूड' ह्याच नांवान वळखतात. म्हजे उपरान्तचो म्हजो भाव मोहन म्हजे परस साडेतीन चार वरसांनी ल्हान. तोय मातसो जाणटो जायनाफुडें हेच कुडींत न्हिदूंक लागलो. न्हिदचे पयलीं दादा खंयची तरी एक काणी सांगतालो आनी ताची आमकां इतली संवंय जाल्ली की ती आयकले बगर आमचो दोळ्याक दोळो लागनासलो. तो सांगतालो ती काणी चड करून पुराणांतली आसताली. रामायण, पांडवप्रताप, हरिविजय जावं उपनिशदांतल्यो त्यो काणयो आसताल्यो. कसलीय नखलामी आशिल्ल्यो

चमत्कारांच्यो, देंवचार भुतांच्यो काणयो बी तो केन्नाच सांगनासलो. आमकां तसल्यो काणयो बऱ्यो लागताल्यो म्हण आमी ताका तसल्यो काणयो सांगपाक फाटीं लागताले. पूण तो आमकां बदनासलो. आपणाक तसल्यो काणयोच येनात अशें सांगून तो आमचीं तोंडां बंद करतालो. ल्हानपणांतली ही काणयो आयकुपाची संवंय जडिल्ल्यान म्हज्या फुडल्या जिवितांत हांवें खूब खूब वाचलें. बरें तेंच वाचलें आनी ताचो म्हजे जडणघडणेचेर खोलायेन प्रभाव पडूंक पावलो.

खंयच्या तरी सणापरबेच्या निमतान धुवांक बापायची याद जाताली आनी दादाक आग्रो करून आपोवणो येतालो. दादा थंय वचूंक भायर सरलो की म्हजीय पोटली ताचे बरोबर आसतालीच. एका वरसा गावणेकारागेर चवथीचो गणपती सात दीस दवरिल्लो. घरच्यां भितर कोणाची तरी आंगवण उजोवपाची आसली. दादाक कस्तुऱ्यालें आमंत्रण आनी भावोजीलो आग्रो. कस्तुरेंआकाक हांव बाई म्हणटालों. आमच्या घरचो देड दिसाचो गणपती पावयलो आनी सप्तमी दिसा आमी गावण्यां वचपाक भायर सरले. वेलंगीच्यान वाट माड्डयत गावण्यां पावपाक आमकां वर देड वर लागलें. दनपारच्या सुमाराक पावले. दिस्त त्याच वेळार आरत्यो सुरू जाल्ल्यो. आरत्यां उपरांत जेवणा-पानां वाडूंक लागले. पांयांनी चलत आयिल्ल्यान पोटाक कडकडून भूक लागिल्ली. जेवण जालें आनी जीव परतो तरतरीत जालो. चवगांच्या त्या घरांतले पांच सात भुरगे मेळ्ळे आनी आमी लागींच आशिल्ल्या पिंपळा मुळांत कोंयडे बालांनी खेळूंक लागले. एकच खेळ खेळून वाज आयलो की दुसरो खेळ, अशें करतां करतां तिनसांज जाली. मदीं कोणें तरी च्या घेवंक आपयलें. च्या घेवपाची म्हाका तेन्ना व्हडलिशी आवड नाशिल्ली. कितें म्हळ्ळ्यार खावंक खावप आनी ताचेर कोपभर उदक पियेवप. तिनसांज जायनाफुडें फुगेट्यो मारपाचो बोवाळ. हे भाशेन ते तीन चार दीस मजेंत गेले. दीसभर धुमशण कांडिल्ल्यान बेगीन लकणी येताली. ताका लागून मावळण आठ जावचे पयलींच म्हाका लायताली आनी न्हिदयताली. देवाच्या आरतींक बी उठयनासली. तिणें हाचेपयलीं म्हजी खोड कितें ती पळेल्ली. न्हिदेंतलो मदींच उठयल्यार हांव चाळवतां आनी करंदाय करतां हें ती जाणाशिल्ली. तातूंत न्हिदलो जाल्यार सुस्त बरो न्हिदलो अशें तरी आसा? सवंद रात न्हिदिल्ले कडेन बडबडप. बडबड करता आसतना हांसप-रडप, सगळें तातूंत आसतालें. ते भायर मध्यान रात जाता म्हळ्ळ्यार हांतुणार मुती करपाच्या कार्याक केन्नाच खंड पडनासलो. णव-धा वरसांचो आशिल्लों हांव तरी न्हिदिल्ले कडेन म्हऱ्यांत न्हिदिल्ल्यांक भिजोवपाचें काम थांबनासलें. हांतुणार मुतप म्हळ्ळ्यार लजेची गजाल, हेंय कितल्याय फावटी सांगलें तरी तें उमथ्या कळशार ओतिल्ल्या उदका वरी जातालें.

म्हणटां म्हणटां गणपती पावोवपाचो दीस आयलो. संवये प्रमाण हांव कांय खायजेवनासतना तिनसनांच न्हिदलों. निमाणो दीस जाल्ल्यान वाड्यावयलो लोकय खूब आयिल्लो. आरत्यो सुरू जाल्यो आनी कोण तरी एकलो म्हाका उठोवंक गेलो. म्हजी अर्द न्हीद जाल्ली. अर्द न्हिदेंतल्यान उठयल्ल्यान हांव उठलों तो एक्कासारको मोट्यामोट्यान रडत. सगळ्यांनी येवन समज घालपाचो यत्न केलो तरी रडें थांबना. उदकांत भिजयल्लो वालो हाडून दोळ्यांक लायलो तेन्ना मात रडपाचो नेट इल्लो उणो जालो. हे वटेन आरत्यो बऱ्यो नेटान चल्ल्यात. दुसरे वटेन फुगेट्यांचो गडगड चालू आसा. आनी अचकीत शेजारच्या कोणा एका लवंद्याचेर अवसर येवन तो हातांत पेटिल्ली आरत आसतनाच खुदूं लागलो आनी खुदतां खुदतां नाचूंक लागलो. सगले जाण भियेले आनी दोगातिगांनी ताका वेंग मारून तसोच भायर व्हेलो. इतल्यान ताचो तो अवतार पळोवन म्हज्या अवताराचें विसर्जन जाल्लें. हांव तटमटीत जागो जालों आनी म्हजी म्हाकाच म्हजे करणेची लज जाली. आरत्यो सोंपल्यो आनी भट गाराणें घालूंक लागलो तेन्ना मावळणीन म्हज्यांतली ही खोड ना करपाची देवा कडेन सांगणी केली.

ही म्हजी न्हिदेंत आसतना बडबडपाची, रडपा-हांसपाची संवय, तशेंच न्हिदेंत आसतना चलत वचपाची वज जायत्या फावटी इतली नडल्या की सांगूंक गेल्यार तो अध्याय सोंपून सोंपचोना. ह्याच म्हज्या करण्यांक लागून कोणागेरूय म्हाका एकलो धाडपाक घरांतलीं कोणूच तयार जायनासलीं.

दादा गेले उपरान्त आवयक म्हजे सदांच हुसको जातालो तो म्हजो. सकाळीं उठत सावन रातचो न्हिदमेरेन, शाळेंत वता तो वेळ सोडत जाल्यार, तिका हांव तिच्या लागिंसाराक आशिल्लो जाय आसलों. खीणभर लेगीत ती म्हाका पातयेनासली. हांव घरांत ना म्हणिनाफुडें ती एका सारकी उले मारीत रावताली. उल्यांक जाप मेळ्ळी ना जाल्यार मागीर सोदासोद सुरू जाताली. हांसपासारकें ती करताली. घरांतल्या बांयां कडेन वचून सुलूस घेताली. व्हाळाचेर कोंड आसा थंय मेळटा ताका धांवडायताली. फुडें हांव जाणटो जालों तेन्ना लेगीत रातची हातांत पेत्रोलाचो कवदो घेवन म्हजे न्हिदपा कुडी कडेन येवन ''सुमन्ता, न्हिदता मरे आतां?'' अशें म्हणून त्या दिसाचे निमाणे हुसके उकतावन हुसक्या मेकळी जावन न्हिदूंक वताली.

मराठी शाळेक वताले तेन्ना आमच्या आंगार आसताली ती मुस्तायकी म्हळ्यार एक हातकापें खोमीस आनी मोटवें कल्सांव. घरांतल्या घरांत घालपा खातीर कल्सांवा वांट्याचें पट्यापट्यांचें कुयेक आनी वयर आंगांत मलमलाचें आंगलें. हीं दोनूय घरांतच कोणें तरी शिंविल्लीं आसतालीं. लोळिल्ली मुस्तायकी धुवपा खातीर वावराडेच्या ओल्यांनी पडटाली. फेर्र बी हे आमचे सदचे मुस्तायकेक लागनासलें. धुवन सुकली की ती आंगार चडटाली. ही आमची मुस्तायकी चड करून रंगीत लुगटाची आसताली. रंगीत जाल्ल्यान तिचेर पडिल्लीं खतां सद् करून दिसूंक पावनासलीं. मुस्तायकी शिंवंक दितासतना बापूय आमकां कांयच विचारी नासलो. ताणेंच ती घेवप आनी आल्फियादा कडेन शिंवपाक दिवप. आमकां ताचें कांयच वायट दिसनासलें. रंगाची, मोदेलाची बी आवड आमचे मदीं निर्माण जावंक नासली. ताका लागून आंग धांपूंक मेळ्ळें की जालें, बऱ्या वायटाचो कस आनी तो मुस्तायके संबंदान, आमकां खबरच नाशिल्लो. लुगटां विकतीं घेतकच बापूय आमकां भुरग्यांक घेवन म्हाड्डोळा आल्फियादागेर व्हरतालो. त्या काळार म्हाड्डोळचे बरे आल्फियाद म्हळ्यार एक सुकडू फुलकार नाजाल्यार दुसरो बाबुसो. थंय ताणें आमचीं मापां घेतलीं की आमी सुटले. मधूचीं मापां मात आल्फियाद घरा येवन घेतालो. आठ-धा दिसां भितर आमची नवी मुस्तायकी तयार जाताली. ही नवी मुस्तायकी शिंवपाचें काम दर वर्सा शिगम्या म्हयन्यांत जातालें. दोन कल्सांवां आनी दोन खोमसां म्हळ्यार वरसभर घालपाक मरण ना. तश्यांत घरांत लग्न/मुजी सारकें कसलेंय कार्य आसलें जाल्यार मात नवें कल्सांव आमी खोमीस शिंवले बगर उपाय नासलो.

पिरायेच्या णव वरसां मेरेन जोतें घालून भोंविल्ल्याची म्हाका इल्लीय याद ना. भोंवपाचें तें उकत्या पांयांनी. मागीर ती जमीन कितलीय खडबडीत आसूं, तिचे वयल्यान चलपाक कितेंच दिसनासलें. संवयच जाल्ली तशी. फातर बी तोंपतात अशें म्हळें जाल्यार तें खरेंच दिसनासलें. शाळे भायर हेर कडेनूय वचपाचो योग येतालो. थंय जोतें घालनासतना गेल्यार म्हजे परस घरांतल्या हेरांक लजेचें दिसतालें.तांचे प्रतिश्ठेक बादा येताली. जोतें पांयांक घालिनाफुडें सगळ्या गजालींचेर बंधनां येतालीं. सटसटीत चलूंक येनासलें. धांवपाची गती मंदावताली. झाडार चडपाचें जाल्यार जोतें सांबाळटलो कोण हाचो विचार करचो पडटालो. व्हाणो म्हळ्यार नसतीच कटकट कशी जाताली. आमच्या घरच्यांचीं जोतीं तयार करपी आशिल्लो रंगनाथ चामार. तो आनी ताचो भाव यसवंत दोगूय जाण बायल भुरग्यांक घेवन म्हाड्डोळा म्हाळशे भाटांत बांदिल्ले एके खोंपींत रावताले. दर वरसा तांच्यांतल्या एकल्यान - चड करून रंगनाथान - पिरवोळा आमच्या घरा

आमच्या सगळ्यांच्या पांयांचीं जोखां घेवन वचप. जोतीं तयार जातकच ळा गेल्ले कडेन म्हज्या बापायक तो गांठटालो आनी जोतीं घेवन केन्ना र्ण तें विचारतालो. थंय थरता त्या दिसा तो सकाळींच घरा पावतालो. डें घरचीं ताका काफी आनी भाकरी दितालीं. उपरान्त तो जोत्यांचेर घालपाक ल तेल मागतालो. घरची वावराडी एके कट्टेंत घालून ताका तेल दिताली. जोत्यांच्या कडांनी घालून तशेंच वयर पोंदा सारोवन तीं सुकपा खातीर दवरतालो. इतलें करता सवरता सर दनपारचीं बारा-साडेबारा वाजतालीं बापूय म्हाड्डोळच्यान घरा पावतालो. एका वराचेर सुमार जेवणां जातालीं. केळी पानाचे शिरतेर वाडटालीं. तो फाटलें फुडलें मागून पोटभर जेवतालो. जेवले उपरान्त शिरती व्हरून उश्टेवाऱ्यार उडयतालो. मागीर मातशी सुस्ती ल्ल्यान ताका लकणी येताली. तो बसला थंयच दोळे धांपून इल्ली न्हीद लो. म्हणम्हणसर म्हजो बापूय न्हिदिल्लो तो उठून भायर येतालो. ''आगो, तरी च्या हाडात मगो म्हाका आनी रंगनाथाक !'' ह्या आवाजान रंगनाथ ीत जागो जातालो आनी सांवरून बसतालो. इतल्यांत च्या येताली. च्या जांतकच रंगनाथ वचपाचे तयारेक लागतालो. बापूय ताका ताच्या जोत्यांचे वतीन सांगतालो ताचे परस चड पयशे दितालो. मागीर तो आनीक किर्तेंय तें मागतालो. नाल्ला बोंडो जावं सुपारे खाडां जावं खावचीं पानां असलेंच. तें सगळें ताका कोणूय ना कोण घरांतल्यान हाडून दितालीं. निमाणें तो यांचें बरें मागून आपल्या घरचे वाटेक लागतालो. असो हो सगळो आटाप अखेरेक जोत्याची एका वरसाची राखण जाताली. हीं जोतीं खऱ्यांनीच बरीं तालीं. चामड्याचें अखंड सोल आनी तळवे घाल्ल्यान भोंवता आसतना लींय झरयलीं तरी तुटनासलीं. नवीं आसतालीं तेन्ना तर चलतना कुरुकुरु आवाज करतालीं. त्या वेळार ताचीय आमकां एके तरेची मजा दिसताली.

जोतें म्हणिनाफुडें म्हाका म्हज्या इश्टान सांगिल्ले एके गजालिची याद जाता. गजाल म्हज्या भुरगेपणा इतलीच पोन्नी. हो म्हजो इश्ट एक दीस साडे धांच्या राक पिरवोळच्यान म्हाड्डोळा नुसतें आनी घरचें हेर सामान हाडूंक वतालो. मुखारच सुमार शंबरेक पावलांचेर गांवचो एक नांवास्तो शिकिल्लो सवरिल्लो कार हातांतलें रोत वावडीत वतालो. इतल्यांत पयशिल्ल्यान ताचे नदरेक येल्लो तो देखाव सोसूंक नज असो आशिल्लो. तो फुडें गेल्लो तो भाटकार गावड्याक हातांतल्या रोतान बडयतालो आनी घुस्मटिल्ले भशेन तावातावान संवतालो. गांवठी गाळ्यां सांगाताक पुर्तुगेज गाळीय ताणें भरशिल्ल्यो. तो डो ताचो भागेली आशिल्लो जाल्यार खबर ना. पूण रस्त्याचे वालेतींत रावन आंग सांसपूंक लागिल्लो. इतलें जाता करता सर भाटकार झपाझप पावलां नीत खूब फुडें पाविल्लो. आमच्या इश्टान खंय त्या गावड्याक घडिल्ले लिची खबर काडूंक विचारलें, ''कितें जालें रे ? ताणें तुका कित्याक मारलो?'' र तो बाबडो कांयच सांगना जालो. पूण त्या गावड्याच्या पांयांतल्यो व्हाणो च खळयेंत पडिल्ल्यो हाणें पळेल्यो. ''पांयांक कितें जालां रे तुज्या?'' इश्टान रलें. ''किल्ल्यों जाल्यात आनी उकत्या पांयांनी भोंवंक जायना'', गावड्याक फुटली. आनी तो चलूंक लागलो. ताका मार पडलो तो कित्याक लागून तें पाक वेळ लागलोना. कोणूच गावडे पांयांत व्हाणो घाली नाशिल्ले, आनी हाणें घाल्ल्यो, हेंच तें कारण.

गावड्यांनी पांयांत कांयच घालूंक जायना, पुरत्यांत किरिस्तांवाचे हिंदू जाल्ल्या ड्यांनी आनी तेंय भाटकारा मुखार, असो त्या काळार एक संकेत जाल्लो. ड्यान पांयांत जोतें घालें म्हळ्यार धवाड्यांचो अपमान जाता अशें भाटकाराक तालें. पिरवोळा दोग किरिस्तांव गुते चलयताले. बेताळा देवळा कडेन शिमांव नी आप्यांत आगोस्तीन. दर आयतारा सकाळीं तांच्या घराब्यांतलीं सगळीं म्हाड्डोळच्या कपेलांत मिसाक वतालीं. बायलांच्या आनी भुरग्यांच्या पांयांत तर जोतीं जावं सापात नासतालेच. पूण खासा शिमांव आनी आगोस्तीन कमरा सकयली सगळी मुस्तायकी आनी पांयांत घालपाचे सापात, मेय हातांत घेवन कपेला मेरेन वताले. देड दोन कोसांची वाट हे भशेन ते काश्टेचेरूच भागयताले. कपेला भायर पावतकच ते आपणालीं कल्सांवां चडयताले आनी मेय सापात घालून कपेलांत मीस आयकूंक बसताले. मीस सोंपतकच कपेला भायर आंगार चडयलें साइत्य काडून हातांत घेताले आनी आयिल्ले तशे, परत्यो आपल्यो वाटो धरताले.

गांवांतल्या भाटकारांचो मान राखपा खातीर ते अशे तरेन वागताले जाल्यार कोण जाणा ! तांकां त्या कल्सांवांची आनी सापातांची संवकळ नाशिल्ल्यान ते तशें करताले, अशेंय आसूं येता. कोसांची वाट काश्टेन वचप आनी कपेला कडेनच हातांतलो भेस चडोवप म्हळ्यार आमकां भुरग्यांक ती अजापाची गजाल दिसताली.

गावड्यांनी पांयांत व्हाणो घालूंक जायना जाल्यार तांच्या बायलांनी देंठलीच घालूंक जाय; पोलको बी घाल्यार तो गांवच्या ह्या भाटकारांचो - मुखेल जाळवणदारांचो - अपमान जातालो. एक गावडीण खंय बरो पोलको चडोवन वाटेवेल्यान बाजाराक वताली. तिका एका भाटकारान पळेली आनी तो रागान फडफडूंक लागलो. तिच्या माथ्यार लाकडां-भरो आशिल्लो. हिका बुद्द शिकोवंक जाय, ना जाल्यार फाल्यां हीं माथ्यार बसतलीं अशें येवजून भाटकारान तिका हटकिली, ''ए, कोण गो तें ?'' तिणें तो उलो आयकलो ना काय दुसऱ्या कोणाक मारला जातलो अशें समजून ती चलूंक लागली. हाचो राग अदीक बळावलो. ताणें घरांतल्या चेड्याक आपयलो आनी ते भरेकान्निचे फाटल्यान वचून तिका घेवन येवपाक सांगलें. तो धांवत वचून तिका घेवन आयलो.

''कितें गो ! खंयचें गो तूं ?''

''पोकड्यांतलें'', तिणें म्हळें.

''हो जळोव तुंवें विकूंक हाडला तो कोणाच्या भाटांतलो तें जाणां तूं?''

''खबर ना धनया.'' तिणें गुन्यांवकारा वरी जाप दिली.

''आनी हांवें उलो मारल्यार तूं राव नासतना चलूंक लागता म्हळ्यार कितें? अऽरऽर तूं !''

''हांवें आयकोलें ना उलो मारला तो'', रडिल्ले वरी ती उलयली.

''कशें आयकतलें तूं? मद मारला तुमकां ! देंठली सोडून पोलको घालता मगो तूं ? मागीर मदेचें ना कशें? आतां आयक, हे फुडें आमचीं लाकडां पुंजायशी जाल्यार सोडचों ना तुका. लाग चलूंक, व्हासिमोर !'' इतल्यान तें रडरडत थंयच्यान उठून म्हाड्डोळा बाजारा दिकेन चलत रावलें.

भाटकाराचो राग कित्याचेर आनी कित्या खातीर आशिल्लो तें अखेरेक उकतें जाल्लें. लाकडां फकत निमित्त आसलें. खरजल्लें दुसरेच कडेन. तिचो पोलको ताचे घोळ्टुकेचो नासलो. संवय जाल्ली देंठली पळोवपाची.

हे भाशेन भाटकारपणाचे मिजाशेचेर दुबळ्या लोकांची केल्ली कातलीकरम सोंसपा सारकी नासली. थारायल्लो खंड घालोना म्हण दोन सोणकुटेर फुलोवपी आसले आनी आडव्यातिडव्या उतरांनी इल्लो सुबेज उलयलो म्हण हुस्के बडयेन लडो घालून फाटिचीं सालपटां काडपीय आसले. मनसोक्त मारपाची संद मेळची म्हण निमित्तच सोदताले. एके तरेची दादागिरीच चलताली. तरी सगळेच भाटकार कितें एकेच माळेचे मणी नासले. कांय घरां वेगळींच आसलीं. तांतलीं मनशां कुळांक घरच्या मनशां वरी वागयतालीं. पूण समाजांतल्या एका वर्गाचीं एक दोन मनशांच पिडपी आसल्यार पुरो, आख्खे जातीक ताचें पानवळ भोगचें पडटा. सुक्या वांगडा ओलेंय जळटा म्हणटात तशें. असल्या ह्या छळणुकांचो परिणाम

फुडें केन्नाय तरी पळोवचो पडटलो हें सांगल्यार लेगीत कोणाक खरें दिसनासलें.

हरी मडवळ आमच्या घरचो मुस्तायकी धुवपी. वामनमूर्त आनी शिरपुट्या आंगाचो. आंगार धवेंच खोमीस, धवेंफुल्ल पुडवें आनी धव्याफुल्ल चादरांत, धुवन फेर्र मारिल्ली घडयांचे मुस्तायकेची पोटली घेवन दर म्हयन्याक हाडून तो ती आमच्या घरांत दितालो. मनीस सभावान भांगर. नमळाय ताचे ल्हंवेल्हंवेंत दिसताली. आमची भुरग्यांची त्या काळार नेमान धुवपासारकी व्हडलिशी मुस्तायकी नासताली. मडवळान धुवपासारकी मुस्तायकी ती जाणट्यांची. खोमसां, ज्युदयो, पुडवीं धरून चादरी तुवाले लेगीत मडवळागेर दितालीं. मडवळागेर धुवपाक आमची मुस्तायकी वताली ती खंयच्याय लग्नाक वचूंक घाल्ली ती. तशीच सोयऱ्यांगेर वचूंक घाल्ली नवी मुस्तायकी. ती धुवन फेर्र मारून हाडटालीं आनी काशोतांत दवरतालीं, कसल्याय कार्या वेळार घालूंक. मडवळान धुल्ली मुस्तायकी घालपाची संद आमकां परती परती येनासली. तशें जाल्ल्यान म्हयन्यांतल्यान एक फावट केन्ना तरी तो घूड करतालो तेन्ना सगळी धुवपाक आयिल्ली मुस्तायकी एकाच वेळार धुवन काडटालो. धुवन काडटकच सुकयतालो आनी फेर्र मारून ती जाची ताका पावती करतालो.

आमची मुस्तायकी धुवपाक आमी हरी मडवळाक दुडू फारीक करिनासले. ह्या कामाक वर्सासनाचें एक खांडी भात ताका लागू आसतालें. तशेंच ताका परबे सणा निमतान कांय भेटी भोंवऱ्यो नकद रुपान दितालीं. घरांत लग्नकार्य आसलें आनी पुरत्यांत तें चलयेचें आसलें जाल्यार ताची ताका गडगंज प्राप्ती जाताली. सवो बांदपाचें आनी सजोवपाचें काम तो करतालो. ते खातीर ताका घराण्याक सोबसारकी बिदागी दिताले. लग्नाचे सुवाळे जाताले तातूंत शेंसराचो एक खूब म्हत्वाचो आनी सगळ्यांचे उमेदिचो आसतालो. त्या वेळार मुडीभर तांदूळ घेवन व्हंकलेकारा व्हटेनच्या बशिल्ल्या दांपत्यांचेर न्हवऱ्या व्हटेच्यो बायलो माथ्यार आंगार ओततात्यो आनी भोंवतणी उबें रावन तें पळोवपी बायलो दादले एकासारके हांसून आनी किटकिटून जीव रमयताले. हे आंगार उडयल्ले सगळे तांदूळ मडवळाच्या वांट्याक येताले. अशे तरेन मडवळाचें एके तरेचें नातें दर एका घराण्या कडेन जोडिल्लें उरतालें.

फुडें हरी मडवळ भायर पडलो आनी ही परंपरा मागीर उरूंक पावलिना. ताच्या जाग्यार आप्यांतलो गोपी मडवळ आमची मुस्तायकी धुवंक लागलो. पूण ह्या नव्या वेव्हाराचें सरूप बदलून गेल्लें. नगागणीक ताचे पयशे जाताले, ताचो हिशोब करून म्हयन्यामाल ते फारीक करपाची चाल सुरू जाल्ली.

□ □ □

चवथेची परिक्षा सोंपूंक आमचो दिवाक आशिल्लो बापोलयो देड म्हयन्या खातीर मुदासांक गोंयांत येता ही खबर घरांत आनी गांवांत फों फों जाल्ली.

आमी बापोलयाक बाबा म्हणटालीं. बाबान दीवाक पंचविशेक वरसां दोतोर म्हण एके दिश्पेंसारींत सिर्विस केल्ली आनी आठ धा वरसां उपरान्त ताका परतून गांवांत येवन रावपाचें आसलें. जाणट्यांच्या मूळ घरांत बिराडांची गर्दी जाल्ली. ते भायर आपणाक जाय तसलें खासा आपलें घर बांदून थंय रावपाचो बाबाचो बेत आसलो. हे फावटी गोंयांत येता आसतनाच घरा खातीर सुवात सोदून ती ताब्यांत घेवपाचें ताणें थारायिल्लें. तो खूब कडेन भोंवलो. हाका ताका विचारून ताका जाय तसल्या जाग्याची सुलूस घेवपाचो ताणें जायतो यत्न केलो. अखेरेक तो सोदतालो तसलो जागो ताका दिसून आयलो. नंगरांत आमी शिकताले ते सांतेरीचे अगरसाळे फाटल्यान, मार्गा पेले कडेन आशिल्ली दोंगुल्ली ताणें मनांत थारायल्ल्या घरा खातीर फाव तशी आसा अशें ताका दिसलें आनी तोच जागो मेळोवपा खातीर ताचे प्रयत्न सुरू जाले. हे दोंगुल्लेचेर वचपाक आमी तेन्ना खूब भियेताले. दोंगुल्लेच्या मुळांत जायत्यो काजी आसल्यो. आनी म्हुट्टे पिकताले तेन्ना आमी ते फातरावंक थंय गेले बगर रावनासले. ह्या काजीं वयर मात आमी केन्ना गेलेनात. थंय वचूंक आमकां भंय दिसतालो. त्या वाटाराक कान्नां चुन्नां खूब मेळटालीं. पूण थंय सगळे कडेन कांट्या झोंपां भरिल्लीं. भंयाचें मुखेल कारण म्हळ्यार थंय केन्ना केन्ना मोट्ट्टीं गिदां वयले वयर उडटना दिसतालीं. त्या आसमंताक कोणालेंय गोरूं मेलें जाल्यार ताका तश्यातशें व्हरून हे दोंगुल्लेचे वयले वटेन व्हरून उडयताले. फोण काडून ताका पुरपाचे कटकटींत कोण पडनासले. घाण आयली तरी ती थोडी भोव बादताली ती मार्गा वयल्यान वचपी येत्यावत्याक. शाळेच्या भुरग्यांक ताचो व्हडलोसो त्रास जायनासलो. गिदांक मात ताची सुलूस रोखडीच लागताली आनी तीं भिऱ्यांनी येवन त्या मेल्ल्या गोरवाचो विलो कांय घटकांतच लायतालीं. आनीक एक कारण म्हळ्यार, खूबशा गावड्यांचीं प्रेतां हेच सुवातेर पुरताले. ह्या काळार किरिस्तांवाचे नव्यान हिंदू जाल्ले गावड्यांक हुलपायनासले. किरिस्तांवां वरीच तांकां पुरताले. ते भायर मूळ हिंदू गावड्यांची ती मसंडूय आसली. ह्या सगळ्या गजालींक लागून दोंगुल्ले वयली सुवात म्हळ्यार भिरांतिचें सावट आशिल्लो वाटार जाल्लो. आमच्या बाबान दिस्त होच जागो घर बांदपाक सोदून काडलो हाचें आमकां अजाप जाल्लें. पूण रोखडेंच दोन तीन म्हयन्यां भितर तो जागो हातांत आयलो आनी दोंगुल्लेचें तेमूक कापून उंचायेरूच एक तळ करपाच्या कामाक सुरवात जाली. तेन्ना दोंगर कापपाचीं कामां करपाक बुलडोझर सारकीं मशिनां नाशिल्लीं. आनी कामेरीं लावन असलीं कामां करचीं पडटालीं. तळ करता म्हणसर चार म्हयने लागले. उपरान्त थंय बुन्याद खणपाचें काम सुरू जालें. ताका लागून मनशां घोळूंक लागलीं आनी वरस जावचे पयलींच, ते सुवातेर वचूंक भियेताले हें लेगीत आमी विसरून गेल्ले.

पांच सेमानां उपरान्त बाबा बी सगळीं उठून दीवाक गेलीं. वचच्या बाबान म्हाका आफोवन विचारलें, ''तुका मुंबय वें कितें जाय तें सांग पळोवया

''बूट'' - हांवें सांगलें.

''इतलेंच मरे ? बरें आसा.''

आनीक खऱ्यांनीच अजाप म्हळ्यार जाता, पंद्रस जावचीच आसा, तीं वचूंक कोण तरी मुम्बयच्यान गोंयांत येवपी मेळ्ळो ताचे कडल्यान बाबान म्हाका धाडून दिल्ले. ते बूट पळोवन म्हाका कितें जावचें ? ते खंय दवरचे आनी नाका अशें पयल्या दिसा जालें. पूण दुसऱ्याच दिसा ते घालून हांव म्हाड्डोळ इश्कोलाक गेलों.

घर बांदून तयार जाता सर तीन साडे तीन वरसां लागलीं. घर बांदून घेवपाची जापसालदारकी बाबान भावाचेर सोंपयल्ली. आमचो बापूय दिसपट्टो. घर बांदता थंय आसतालोच. ताची देखरेख म्हळ्यार एका घोळुघोळून तयार जाल्ल्या इजनेरा सारकी. घराक कसलेंच नॉत जावं उणाव उरूंक जायना हाची तो जतनाय घेतालो. हें घर जाता तितलें बरें बांदकाम जावचें म्हूण तो धडपडटालो.

घराचें बांदकाम चालू आसतना आमी पुर्तुगेज शिकपी भुरगे म्हाड्डोळा आसतना नंगरांतलें नवें घर कशें वयर सरता तें दिसपट्टें पळेतालेच. आमच्या ह्या नव्या इश्कोलांत जायते जाण नवे भुरगे आशिल्ले. मंगेशीचे कांय भुरगे येताले. रामनाथ आनी गंपू हे दोग भाव तेन्नाचो गोड आनी किनऱ्या आवाजाचो हरदास बाळूबुवा अभिषेकी हांचे पूत, करंड्यालो कोण तरी एकलो, भावे म्हण एकलो, हे भशेन चारपांच जाण थंयच्या इश्कोलांत येताले. आकारच्या प्रियोळकारालो कोण तरी एकलो आशिल्लो वेलंगीच्यानय येवपी भुरगे आसले. कांय किरिस्तांवय भुरगे शिकूंक येताले. म्हाड्डोळचे जाल्यार जायते जाण आसले. म्हाड्डोळच्या भुरग्यां मदीं कांय चलयोय आशिल्ल्यो. इश्कोलांतलें वातावरण शाळे परस इल्लें वेगळें आशिल्लें. शाळेंतलीं ल्हान आनी बाळवृत्तिचीं आमी भुरगीं आतां न्हय भुरगीं-न्हय

…वृत्तिचीं जावंक लागिल्लीं.

…लास आनी सेगुंद क्लास शिकता आसतना आमकां गुडो नांवाचो …शिल्लो. मोटवोच पूण आंगान फोफसो. माथ्यार काळी तोपी …वें, खोमीस आनी ताचेर ज्युदी हो ताचो भेस. मनीस सभावान …च तो केन्ना तापिल्लो पळेलो ना. समजावन शिकोवपाची तो …लो. ताचो कोणाकूच भंय दिसनासलो. शाळेंत शिकतासतना …राचो भंय आसतालो. हांगा भंयाचें कुस्कुटय दिसनासलें. ताका …त बशिल्ले कडेनूच एकामेकांचीं कुतां काडून उलोवप, भगल्यो …ल्यान शिकपाचें वातावरण इबाडटालें. कांय थोडे भुरगे सोडले …शिकचे परस हेर गजालींचेरच अदीक ध्यान दिताले. ह्या इश्कोलांत …जाणटे भुरगे शिकूंक येताले. पुरत्यांत म्हाड्डोळ वाटारांतले. …यो नव्यो खबरी हाडून त्यो इश्कोलांतल्या दुसऱ्या भुरग्यांक सांगपाक …सताली. त्यो आयकून वयार येवंक लागिल्ल्या म्हजे सारक्यांक …चचेंशें दिसतालें. मराठी शाळेंत शिकतालीं तेन्ना आमकां दादलो- …दलो भेद इल्लोय कळनासलो. कळून घेवपाची उत्सुकतायूय …तां तें सरूप बदलूंक लागिल्लें. आमचे वृत्तींत इल्लो इल्लो करून …लागिल्लो. अभ्यासा वयलें लक्ष काडूंक तें एक म्हत्वाचें कारण …म्हणूं येता. आमी शिकूंक आयिल्ले ती भासूय वेगळीच जाल्ल्यान …संवय नाशिल्ली. कळपाक सोपी नाशिल्ल्यान उतरांचो उच्चार …नय मतींत दवरुपा खातीर तीं पाठ करचीं पडटालीं. सिं सिन्योर …न्योर हीं उतरां सोडून दुसरीं कांय उतरां येवपाक आमकां खूब वेळ …मचो बापूय पुर्तुगेजींतल्यान शिकिल्ल्यान मदीं केन्नाय वेळ मेळटा …फोवन पुर्तुगेज वाचूंक शिकयतालो. परिक्षेच्या वेळार जाल्यार तो …कयलां तितलेंय सगळें करून घेतालो. ताका लागून पयलीं दोन … पास जावपाक कसलीच आडखळ आयलिना.

…ा इश्कोलाक वचपाक लागल्यार दोन वरसां सोंपत आयिल्लीं. … पयलिंचीं नावाडगेपणां थांबूंक नाशिल्लीं. पयलिंच्या प्रमाणान तीं …ल्लीं इतलेंच. ना म्हणपाक आनीक कांय कलांत हांवें नांव मेळयिल्लें. …डूंक शिकिल्लों. सुपारी पाडपी मानायाक माडयेर चडपाक खाडूं बी …तेंय लागनासलें. खाडूं नासतना उकत्या पांयांनी माडयेर सपासप …हांवें बेस बरें सादयल्लें. माडयेर चडटा आसतना हांव तिका पोट …लों. तोंकार पाविल्ले कडेन म्हज्या भारान माडी कितलीय हाल्ली …का भंय दिसनासलो. इतलेंच न्हय तर एके माडये वेल्यान दुसरे …ड्याक धरून तिका लागीं ओडून घेवप आनी तिचेर झूप्प करून …च्या कामांत हांव तरबेज जाल्लों. हें सगळें हांव सुपारी काडपी …रकायेन नियाळणी करून शिकिल्लों. ते पाडून वतकच तांचे असवडी …वडटालों आनी तांचे भशेन करून पळेतालों. हें काम कितलें सोपें …ायेन करपाचें तें म्हाका कळिल्लें. हातूंत एकच गजाल म्हत्वाची …म्हळ्यार, तें करतना भंयाची कसलीच भावना मनांत हाडूंक … भियेलो तो कोंसळ्ळोच, सामको शेंवटून मुळसांत पडलोच म्हण … फुडें हांवें ही माकडाची कला बरे भशेन केळयल्ली. एकेच फावटीन …शिल्ल्या चार पांच माडयांचेर वयले वयर भोंवक मेळप म्हळ्यार …खोस आसली ! ते भायर आनीक एका कामा खातीर माडयेर चडप …लें. कुळागरांतली एकाद्री तोरंगीण मोट्या काणाची आसली जाल्यार …तना माडयेच्या आधारान तोरंगां काडप सोपें जातालें. तोरंगां माडये …लीं जाल्यार माडये वयल्यान तोरंगिणिच्या वयल्या खांद्यार चडप आनी जाय तीं तोरंगां वेंचून काडून मागीर तेच वाटेन सकल देंवपाक जातालें.

माडी म्हणटकच एके घडणुकेची याद जाता. पुर्तुगेज शिकूंक म्हाड्डोळा वचूंक लागिल्ल्यान पयलीं भशेन उठटना बसतना झाडांचेर चडून फळां चोरपाचे आमचे धंदे उणे जाल्ले. केन्नाय सामकींच दोळ्यां मुखार बरीं पिकून हळडुवीं जाल्लीं फळां दिसलीं जाल्यार मात तीं काडपा खातीर जीव सामको आशेतालो. आमच्या घरा फुडले वटेन कुळागराचे दोन दांडे सावयवेरेंच्या रायकाराक पडल्यात. मूळचें तें कुळागर गोविंददादालें. गोविंददादाक एकच धूव आशिल्ली. तिका रायकारागेर दिल्ली. गोविंददादाल्या मरणा उपरान्त तें बेंस वारशी हक्कान रायकाराक गेलें. त्या दांड्याचो लक्ष्मण गावडो भागेली. कुळागरांत आशिल्ल्या ताच्या घराकडच्या दांड्याचेर लागसारूच एक बरी तोरींग आशिल्ली. लक्ष्मणाले तोरंगिणिचीं आनी पचमेच्या बाबुशाले तोरंगिणिचीं तोरंगां गांवांतलीं बऱ्यांतलीं बरीं तोरंगां हें सगळ्यांक खबर आसलें. आमकां घरांतय केन्नाय कोणाक दिवपा खातीर जावं सोयऱ्यांगेर धाडपा खातीर तोरंगां जाय पडल्यार आमी तांचे कडल्यान तीं विकतीं हाडून घेताले. आनी लक्ष्मण आमच्या घरा शेजारचो तोंडा वयलो भागेली जाल्ल्यान तागेलीं तोरंगां चोरून काडप आमकां पुटवनासलें. पूण अशें आसुनूय लक्ष्मणाक एक वायट संवंय जडिल्ली. तोरंगां पिकूंक लागलीं रे लागलीं, ''धनया, घरचे सगळे भुरगे तोरंगां लिपचोरयां काडून व्हरतात'' अशें वचत ताका सांगपाची संद तो वगडायनासलो. ताचो रोख म्हजेरच आसतालो. झाडांचेर चडपाच्या कामांत हांव फिशाल आशिल्लों हें ताणें पळेल्लें. हागेलीं तोरंगां काडिनासतना हो आमच्या नांवान उलयता तेन्ना हाका कशीय तरी बुद्द शिकोवंक जाय, ते बगर हाचें तोंड बंद जावचें ना अशें आमकां दिसलें. एक दीस दनपार शी पळोवन, तोरंगीचेर धाड घालपाचो आमी बेत केलो. देवळा कडच्यान येवपी आमच्या तीन सवंगड्यांक जेवन बेगीन येयात आनी गजानन भटाल्या घरा कडेन मार्गारच रावात म्हण सांगून दवरलें. हे वटेन आमी तीग जाण, हांव, गुरुनाथ आनी मोहन बेगीन इश्कोलाक वचपाचें आसा अशें घरांत सांगून घरांतले बेगीन भायर सरले आनी थेट कुळागरांत तोरंगी म्हऱ्यांत गेले. बरीं पिकिल्लीं अशीं दोन तीन तोरंगां माडये लागसारूच आसात तें हेरून हांव सपासप माडयेर चडलों. म्हजे दोगूय वांगडी तोरंगां पडलीं रे पडलीं, उखलून खंयच्यान पळपाचें तें थारावन पळपाचे तयारेंत रावले. खिणा भितर तोरंगां आशिल्ले ताळये म्हऱ्यांत हांव पावलों. कळाव लायलो ना. खूट खूट खूट करून तीन तोरंगां सकयल उडयलीं आनी तितलेच ताकतिकेन सूऽऽक करून माडये वेल्यान भूंय गांठली. इतल्यांत थोडो भोव आवाज जालो तो लक्ष्मण आनी ताचो पूत गोंदो हांच्या कानार पावलो. गोंद्याली बायल सामकी सोंशा कानाची. तिणें रोखडेंच ताडलें, कोण तरी तोरंगीर चडला. आनी भितरल्यानच ती बोबो मारूंक लागली. म्हणम्हणसर तीं तिगांय जाणां घरा भायर तोरंगे म्हऱ्यांत आयलीं जाल्यार थंय तांकां दिसपाक आसा तरी कोण? तीं भायर सरचे पयलींच मेळटा ती वाट धरून आमी तिगूय जाण तोरंगां सयत पसार जाल्ले. कुळागराच्या दांडला वयल्यान धांवत पळत आमी व्हाळा कडेन पावले. ताचे पलतडीं सरून शेतांतल्यान पळपळत केशवा देवूळ गांठलें. मागीर थंयच्यान गजानन भटाले पायणींतल्यान वयर सरून, मार्गाचेर पावना फुडें थंयच बसकण मारली. धाप इतली लागिल्ली की उलोवप लेगीत लडबडटालें.

आमचे उरिल्ले तीग इश्ट गजाननाल्या घरा वयर मार्गार आमची वाट पळेत बशिल्ले. आमच्या हातांतलीं तोरंगां पळेनाफुडें आयची धाड फळाक आयली हाची तांकां खोस जाली. मागीर त्या तिगांनीय तीं तोरंगां फोडलीं आनी शिरांचें वांटप करून त्यो खायत खायत आमी म्हाड्डोळचे वटेन चलूंक लागले. म्हजें हड्डें मात माडये वेल्यान घसटून देंवता आसतना बरेंच सोलिल्लें आनी खोमसाक रगत लागिल्लें. तितले भितर तें कोणा एकाचे नदरेक आयलें आनी ''हें तांबडेंशें

कितें लागलां तुज्या खोमसाक?'' म्हण ताणें म्हाका खोमीस काडूंक सांगलें. खोमीस काडून पळेत जाल्यार हड्डें सोल्लां. कोण तरी एकलो धांवत मार्गा कुशीनच्या आतोडांत गेलो आनी ताणें हुस्के पालो बुड्डून हाडलो. तो फातरार चिड्डून आनी म्हजे कड्च्यान चाबून घेवन ताचो रोस, फुटलां थंय सगळ्याक लायलो. तशें केल्यार फेरीद भाजून येता आनी पेखताय बी रोखडेंच, हें ताका खबर आशिल्लें.

हे वटेन आमच्या घरा वचून लक्षुमणान बोवाळ करपाचो तो केलोच. बापायच्या कानार आमी तागेलीं तोरंगां काडिल्ल्याची खबर घालीच. पूण बापायन ताका परतें विचारलें, ''आरे लक्षुमण, तूं मरे सद्दां खंय तेच तुजीं तोरंगां पाडून व्हरतात, अशें वचत ताका सांगत आसता. तांणी तोरंगां पाडिनासतना तूं तांचें नांव घेता, म्हण तुका बुद्द शिकोवपा खातीर बी तांणी हें कर्म करूंक ना मरे ? चल तूं आतां घरा मोन्यानी. आनी हे फुडें बोवाळ करीत रावशी जाल्यार उरिल्लींय तोरंगां ना जातलीं. आमचे हे भुरगे आतां दोकल्यांनी जाणटे जाल्यात. तांकां बऱ्याचें सांगपांत कांयच अर्थ उरूंक ना.'' हें आयकून लक्षुमण समजुपाचें तें समजलो आनी फुडें ताणें आमचें नांव म्हण केन्ना घेतलें ना.

त्या वरसा सेगुंद क्लासिची परिक्षा सोंपली आनी आमी सगळे दोस्त पास जाले. मायाच्यो सुटयो अ ातां खंय घालपाच्यो हाचेर येवजिता आसतनाच पणजेचे मावळणीन जयश्रीआकान आमकां भुरग्यांक घेवन यो म्हण दादाक कळयलें. पूण दादाक बरें दिसना जाल्ल्यान तो कांकूं करूंक लागलो. निमाणें म्हाका आनी मोहनाक दोगांकय पणजे पावोवपाचें काम बापायन केलें. पयल्या दिसा सावन थंय आमचो वेळ बरो वतालो. रावबा सरदेसायालें बिराड तेन्ना आफोंस दे आल्बुकेर्क रस्त्यार हुंदीरबाब नेवरेकाराल्या घरांत आशिल्लें. रावबाक सगळे जाण रावबाच म्हणटाले. ताचीं भुरगीं ताका भाऊ ह्या नांवान उलो करतालीं आनी आमी ताका भावोजी म्हणटाले. भावोजी म्हळ्यार एक उमेदी आनी आल्मीखुशाल मनीस. तो काम्रांत सिर्विसेक आशिल्लो आनी ताका मेळूंक येवपी लोकांचें रोद खूब व्हड आशिल्लें. हुंदीर हें मनशाचें नांव आयकून आमकां पयले कांय दीस हांसुंकच येतालें. पूण मागीर तें आयकुपाची संवय जाल्ल्यान ''हुंदीर नांव आसल्यार कितें जालें? तातूंत हांसपा सारकें कितें आसा?'' अशी थातूरमातूर करपी जाप आमची आमकांच मेळटाली. मीना ही हुंदीरबाबाली घरकान्न. आंगान खुबच मोटी आसली. आनी तांचीं भुरगीं म्हळ्यार नारो, मर्तो आनी बाला हे तीग पूत आनी बाय, नलिनी आनी गोकूळ ह्यो तिगी धुवो. घरांतलें वातावरण म्हळ्यार सामकें उमेदिचें आशिल्लें. हांसून खेळून काडपाचें. मीना ही हुंदीरबाबाली बायल, बऱ्या सभावाची आनी फकाणेर आशिल्ली. तिणेंच सांगिल्ली जाल्यार कोण जाणा, तिची एक खबर खूब फामाद जाल्ली. एक दीस रातची ती कोठये कुडींत वचत जाल्यार तिका खंय थंय एक हुंदीर भोंवता तो दिसलो. ताका पळेनाफुडें ती भियेली. हुंदराक ती कित्याक इतली भियेताली तें एक तिका आनी हुंदराक खबर ! तशीच भियेल्ली भायर आयली आनी पुतांक उले मारूंक लागली, ''आरे नाऱ्या, ए मर्त्या, कोणूय तरी एक दांडो घेवन येयात. आमचे कोठये कुडींत पळे 'हे' आयल्यात. मारात रे ताका.'' हुंदराक ती हुंदीर कशी म्हणटली? तें नांव घेवप म्हळ्यार घोवाचें नांव घेतले वरी जातलें. ही गजाल आयकनाफुडें हांसून हांसून सगल्यांचो मुड्डो जाल्लो.

जयश्रीआकागेर आमचे बरोबरचे भुरगे म्हळ्यार व्हडलो पूत बाबल आनी वचत त्या कामांत मुखार म्हणटा तो दत्ता. बाबल पयलीं सावन फकाणांच्यो खबरी सांगून मनां रिझोवपी. दत्ता उमेदिचो.

हे सुटयेंत एकेच गजालिचो म्हाका ध्यास लागिल्लो तो म्हळ्यार दोन रोदांची सायकल चलोवपाचो, आनी ती बरे भशेन चलोवंक शिकपाचो. हांगा सगल्या तरांच्यो, ल्हान व्हड सायकली भाड्याक मेळटाल्यो. ल्हान भुरग्यांच्यो, पेडालाक पांय पावता असल्यो धरून जाणट्यांच्यो व्हड सायकली आशिल्ल्यो. आनी भाडें वराक चार आणे. सुरवातीक ही असली सायकल दिसाची घेवन आमी शिकूंक लागले. दत्ता आमचो साथीदार. पणजे शारांत त्या तेंपार पुलिसेचो बी भंय दिसतालो. कितेंय चूक जावन कोणाचेरय सायकल बी घाली जाल्यार पुलीस रोखडीच चलयतल्याक धरून क्वार्तेलार व्हरताली. म्हण दिसाची घेवन चलोवपाक भिरांत दिसताली. हाचेर उपाय म्हळ्यार राती खातीर सायकल भाड्याक घेवप आनी जाय तितलो वेळ ती चलोवप आनी दुसऱ्या दिसा सकाळीं व्हरून ती परती करप. हें आमकां बऱ्याक पडटालें. रातिचें भाडें आसतालें आठ आणे. इतल्या पयशांनी जाता जाल्यार आख्खी रात सायकल चलोवंक येतालें पूण जयश्रीआका तें करूंक दिनासलें. रातच्या एकाच्या सुमाराक तें आपोवन हाडटालें आनी सायकल काडून भितर दवरतालें. हे भशेन सात आठ दीस रातिची सायकल भाड्याक हाडून हांव सायकल बरे भशेन चलोवंक शिकलों. चान्याचे राती पणजे शारांत रस्त्यावेले दिवे मुद्दम पालयताले. तेलाचो हाशील करूंक तसली दिवे नाशिल्ली रात म्हळ्यार सायकल चलोवपाक खुबच मजेची. सगळी रात सायकल चलोवनय आमकां जागरण म्हण जायनासलें. सकाळीं उठनाफुडें परती चलोवंक वचपाची तयारी. एके भाशेन सायकलिचो नादच लागिल्लो म्हळ्यार जाता. आनी ह्या नादांतच आसतना सुटयेंतले पंदरा दीस केन्ना सोंपले तें कळ्ळेंच ना. आनी एक दीस सांजे पारार आमच्यो पोटल्यो परत्यो पिरवोळा घरांत पावल्यो.

□ □ □

केळेकार घराण्यांतल्या भोवच कर्तुत्वी भुरग्यांत तीग जाणांचीं नांवां मुजरत घेवचीं पडटलीं. व्हडल्या भावाच्या विठोबा नांवाच्या पुताचें आनी दुसऱ्या भावाल्या व्यंकटेश आनी पांडुरंग ह्या दोग पुतांचें. हांतलो व्यंकटेश हाची कारकीर्द खूब थोडी जाल्ल्यान त्या भावाच्या कामाचो भार ताचो पूत लक्ष्मण हाचेर पडलो म्हणपाक जाता. ताका लागून कर्तुत्व दाखोवपाक संद मेळ्ळी ती ताच्या पुताक लक्ष्मणाक. देखून केळेकार घराण्यांतल्या कर्तुत्ववान भुरग्यांचीं नांवां सांगतना तीग जाणांचीं नांवां घेतात. ते आशिल्ले विठोबा शणै, लक्ष्मण शणै आनी पांडुरंग शणै. ह्या तिगांनीय धंद्याचेर खूब पयसो जोडलो. घर खूब मोटें – आठ माळयो आशिल्ल्यो – आनी सगळीं रावतालीं तशीं खातालीं जेवतालीं एकठांय. भायर पडवेचेर चार पांच वानां आसलीं. थंय भात कांडून तांदूळ करपा खातीर सात आठ बायलो वावुरताल्यो. घरांत जेवण शिजोवपाक रांदपी आशिल्लो. जेवणाक कालवणें-शाको हांचे वांगडा दोणांतली आमली आसतालीच. घरांत एक दोन व्हडलीं दोणां आशिल्लीं.

सगळ्या कुटुंबाचेर जाता तो खर्च काडून उरिल्ले पयशे घरांतल्या हेर जाळवणदारांक वांटून उडयताले. दुडवांची कॉफ्र घरांतच आसताली. तीग जाणां कडेन तिच्यो चावयो आसताल्यो. दोन-तीन वरसांनी जमिल्ल्या पयशांची वांटणी जाताली. लोकांनी घाण दवरिल्ल्यो वस्तीय हे कॉफ्रींत आसताल्यो. एक दीस पळेत जाल्यार घरांतली कॉफ्रच ना. सोद सोद सोदली पूण खंयच तिचो सुगाव लागलोना. कांय ना म्हळ्यार अंयशीं हजारां वयर रकम आशिल्ली. कोणेंय तरी तिचेर हात मारिल्लो. घरच्याच मनशान काय भायल्यान तेंय कळनासलें. पूण कॉफ्र चोरपी कोण आसतलो हें अदमासान सगळ्यांक खबर आशिल्लें. पूण करतले कितें? घरचोच चोर आसल्यार ताका करपाचें कितें? बरें, ती चोरिल्याक तरी ते दुडू मेळचे? जाल्यार तेंय ना. कॉफ्र ज्यागेर व्हरून दवरलेली तोच ती खावन बसलो.

बा शणैक लोक मानताले. ताका पुण्यपुरूस लेखताले. तो दर एके आनी चवथीक महालक्ष्मीक बांदोड्या वतालो. देवळांत बसून जप तालो. लोकांची ताचेर स्रद्धा आसली. दिपू राण्यान ताका धरून व्हरपाची केली. आपणाक धरूंक टपतात हें तो जाणा आशिल्लो. पूण तांच्या कसोच लागनासलो. तरे तरेचे भेस करून तो देवळांत वतालो. ताच्या दान कश्टत पडिल्ली गुरवार बायल खंय रोखडीच सुट्टाली. ताच्या खातीर असल्या बायलांची देवळा कडेन खेट जाताली. ती एक खुबच आनी धीरवान व्यक्ती आसली. ताचे मुस्तींत आमच्या कुटुंबाक धनाचो प्राप्त जाल्लो. ताणें भाटांबेसांय जायतीं घेतलीं. तीं सगळीं ताच्याच सलीं. महालक्ष्मीच्यो ज्यो भांगराच्यो वस्ती आसात तांतूंत एक भांगराची नी तरसाद, ती मखरांत आसता तेन्ना तिच्या हातांत आशिल्ली दिसता, विठोबाशणैन समस्त केळेकार कुटुंबाचे वतीन देवतेक भेट दिल्ली. ते केळेकार' हें नांव कोरिल्लें आसा. तो धर्मीक कृत्यां खुंबच करतालो.

ताच्या हातांतल्यान कितेंय तरी पातक घडलां जावंक जाय. तें निरसन खातीर तो काशी विश्वनाथाक वता. हांगच्यान खर्चा खातीर ताका धाडटात आनी ताणें रोखडेंच घरा येवचें हे खातीर सगळ्यांचे निरोपार वतात. पूण कोण्णाचें तो आयकना, कानामनारच घेना. आनी ताणें धी घेतली म्हणपाचें वर्तमान मात एक दीस वाऱ्या वरी ह्या घरांत पावता.

ठोबा गेले उपरांत ताचो पूत रामचंद्र हो केळेकार घराण्याचो जाळवणदार ताका एक भयण आशिल्ली. तिचें लग्न बी बरें थाटांत करून दिलें. भाचरांय लीं. बापायचो हक अर्द इस्टेटीचेर आशिल्ल्यान तागेलो एकलो एकसुरो मचंद्र अर्दाचो धनी जालो. आनी तोय मनांत तशेंच धरून आशिल्लो. पूण भावाचे व्यंकटेश आनी पांडुरंग हे दोग पूत इतलीं हीं भाटांबेसां मेळोवपाक ले आशिल्ल्यान तांच्या भुरगेबाळांच्या वांट्याक अर्दच येवचें हातूंत ते नासले. हाचेर उपाय म्हळ्यार कोणाय प्रतिशठीत मनशाक मदीं घालून ताचे ान मना सारकें जाता जाल्यार पळोवपाचें, म्हण तांणी पुरशोत्तमबाब केंकरो कानार ही गजाल घाली. केंकऱ्याक तांच्या सांगण्यांत तथ्य दिसलें आनी ापूण पळेतां प्रयत्न करून म्हण तांकां उतर दिलें.

र दनपारच्या वोता कडार आमच्या घरा कडेन एक माचूल आयलें आनी ल्यान पुरशोत्तमबाब भायर सरलो. केंकरोबाब म्हळ्यार रामचन्द्रशणैचो श्ट. तो आयिल्लो तो वेळ जेवणाचो आसलो. आनी जेवणा वेळार घरांत ल्या मनशाक जेवले बगर परतो धाडिनात ही त्या वेळची प्रथा. तमबाबाच्यो आनी रामचन्द्रशणैच्यो कांय वयलेचाराच्यो - म्हळ्यार केच्यो तशेंच कसल्या तरी देवकार्या विशिंच्यो खबरी जाल्यो. आनी तितलें उपरान्त ''हांव आतां वतां, मंगेशीं एक काम आसा'' अशें म्हणून पुरशोत्तमबाब चे तयारेन उठलो. भर दनपारचो आयला आनी जेवले बगर वता म्हळ्यार असो शीण काडीत रामचन्द्र शणै ताका एका सारको आग्रो करीत रावलो. रशोत्तमबाब 'हां' कसोच म्हणिना. मंगेशीं वचपाचें कारण तो परतो परतो बोट कशें सांगत आशिल्लो. हो ताका एक्कासारकें 'राव' म्हणटा आनी तो 'ना'. करतां करतां रामचन्द्रशणैन म्हळें, ''म्हज्या उतराक तूं इल्लोय देना हें बरें न्हय!'' कांय वेळ येवजिल्लेंशें करून ताणें म्हळें, ''बरें तर. तुजो ंव राखतां. पूण म्हाकाय तुवें एक उतर दिवंक जाय.'' हाणें खोशी जावन च म्हळें, ''दितां, दिलें तुका उतर. चल तर, काड तुजी मुस्तायकी. जेवण च जातलें. या आमी जेवंक.'' कांय वेळान तांचीं जेवणां जालीं. माचूल आयिल्ले भोयेय जेवले.

वणा उपरान्त मुखशुद्धे खातीर बिबे हाडून दवरिल्ले, ते खातां खातां मूळ विशयाक पुरशोत्तमबाबान हात घालो. ''हो विशय काडटां म्हण रामचंद्रबाब, तूं रागार जावचो ना हाची म्हाका खात्री आसा. पूण एक सांग, तुवें तुमच्या घरच्या भाटांबेंसांचें इश्क्रीतूर कशे भशेन करपाचें येवजिलां?''

''लेये भशेन करपाचें न्हय? दोन भावांचीं हीं बेसां भाटां. एका भावाचो वांटो म्हाका येवपाचो आनी उरिल्लो अर्द वांटो दुसऱ्या भावांच्या येरदेरांचो, अशेंच जावंक नाका?'' रामचंद्रशणैन जाप दिली.

''लेयेन तुजें चुकना. पूण तुजे बरोबर तुज्या बापोलयाचे दोग जाण वावुरल्यात आनी तिगांच्या कश्टांक लागून ही इतली येणावळ येवन, त्या दुडवांचीं तुमी हीं इतलीं भाटांबेसां घेतल्यांत. तेन्ना त्या दोगांक, ते एका भावाचे पूत म्हूण अर्द वांटो दिवन सारविकाय करप योग्य जावचें ना.'' पुरशोत्तमबाबान बरेऽ भाशेन समजावन आपणाल्या इश्टाक सांगलें. आनी फुडें ताणें म्हळें, ''म्हजें आयकशी? आयकतलोच तूं. म्हाका तशें उतरूय दिलां तींवें. ह्या भाटांबेंसांचे तूं तीन वांटे कर. एक तिसरो वांटो तुजो, एक तिसरो वांटो लक्ष्मणशणैच्या भुरग्यांचो आनी उरिल्लो तिसरो वांटो पांडुरंगशणैच्या वारसांक. आनी खंयचीं भाटां, शेतां, कुळागरां कोणाक दिवपाचीं हाचो तपशील सगळ्यांचें मत्त घेवन तूं थाराय आनी जाता तितले बेगीन तांचें इश्क्रीतूर करून तूं एक फावट तातुंतलो मेकळो जा पळोवया.''

रामचन्द्रशणैन पुरशोत्तमबाबालें उतर राखलें आनी ताणें सांगिल्ले ते भशेन भाटां बेसांची वांटणी जाली.

रामचन्द्रशणैक भुरगेंबाळ कोणच जालेंना. अश्या वेळार घराण्यांतल्या कोणाल्या तरी एका भुरग्याक पोसको घेवपाची चाल आशिल्ली. तो तसो घेतलोना जाल्यार पुराय इस्टेट बायलेक वताली. ते भायर निपुत्रीक मेलो म्हण तो अखटायेचो विशय जातालो. ते चालीक धरून रामचन्द्रशणैन गिरिधरशणैलो दुसरो पूत श्रीनिवास हाका पोसको घेवपाचें थारायलें.

गिरिधरशणै हो पांडुरंगशणैलो व्हडलो पूत. पुरुशोत्तम हें तागेलें दुसरें अपत्य. गिरिधरशणैचें पयलें लग्न जावन ताका जगन्नाथ नांवाचो पूत आशिल्लो. बायल पयलींच भायर पडिल्ली. म्हणटां म्हणटां जगन्नाथय वयार आयलो आनी ताका व्हंकलो सांगून येवंक लागल्यो. अशें सांगतात, मागीर तें खरें जावं फट, की पुताक व्हंकल पळोवंक गेल्लो हो धाकुटेपणांतलो मांव, आपणा खातिरच बायल म्हण तिका पसंत करून, रोखडेंच तें लग्न बी करून मेकळो जालो. पुर्विल्ल्या काळार असलीं लग्नां जायतीं जातालीं. पयलें कारण म्हळ्यार लग्नाचे भुरगे जावं चलयो ल्हान आसतनाच जाणटेलीं तांचीं लग्नां लायतालीं. ताका लागून तांकां भुरगीं ल्हान पिरायेर जातालीं. केन्ना केन्ना बापूय पूत हांच्या वया मदलें अंतर सोळा सतरा वरसां इतलेंच आसतालें. आनी बायल तर चवदा वरसांची आसतनाच आवय जाताली. अशें हें चलतालें तेन्ना धाकुटपणांतल्या ह्या मांवाकच न्हवरो म्हण व्हंकलेच्या आवय बापायन मान्य केलो जाल्यार तातूंत अजाप तें कसलें !

दुसरे बायलेक चार पूत जाले. व्हडलो पुंडलीक म्हळ्यार म्हजो आजो, दुसरो श्रीनिवास. हाका रामचंद्रशणैक पोसको दिलो. तिसरो त्रिविक्रम आनी चवथो रामनाथ. म्हज्या भुरगेपणांत म्हाका एके माथ्यावयल्यान पदर घेतिल्ले बायलेची हयन्हय याद जाता. तिका सगळीं जाणां 'बा' म्हणटालीं. बाप्पा म्हळ्यार रामनाथ घरा येतालो तेन्ना मुजरत तिचे म्हऱ्यांत वचून तिची खबर घेतालो. चड करून तीच आमची पणजी म्हळ्यार गिरिधरशणैली धाकुटपणांतली बायल आसतली पूण ताचें खरेपण करपाक आज कोणच जितो उरूंक ना.

□ □ □

हांव तेन्ना प्रिमयेर ग्राव म्हळ्यार पुर्तुगेजीच्या तिसऱ्या वरसा शिकतालों. म्हाड्डोळा

येता वता आसतना नंगरांतल्या घराचें बांदकाम वयर सरता तें दिश्टी पडटालें. दर दिसा घराचें कितलें काम जालां तें पळोवपाचो ध्यासच लागिल्लो.

पंदरा वीस दीस रावन पणजेच्यान घरा आयले उपरान्त दोन रोदांची सायकल चलोवपाचो नाद लागिल्लो. हांगा सायकली भाड्याक मेळटाल्यो त्यो आशिल्ल्यो जाणट्यांच्यो. वयर बसतकच आमचे पांय पेदाला मेरेन पावनात तसल्यो. तरीय त्यो आमी भाड्याक घेताले आनी सांगाड्या मदल्यान एक पांय दुसरे वटेन काडून तो पेदालाक लावन सायकल चलयताले. भाड्याक दिवपी सायकलकार म्हळ्यार पिरवळचो पांडुरंग शेट. ताच्या घरा वचून दनपारच्या वेळार सायकल हाडची पडटाली. तो एकाच्या सुमाराक म्हाड्डोळच्यान घरा येतालो आनी तीन साडेतिनांक परतो म्हाड्डोळा शापार वतालो. दुसरो सायकल भाड्याक दिवपी म्हाड्डोळचो अनंत शेट. तो शेटपण बऱ्यांतलें बरें करतालो आनी ते भायर सायकलीय भाड्याक दितालो. दोगांच्योय सायकली आमकां जाय तसल्यो नाशिल्ल्यो; तरी पूण आमची खाज भागोवपाक त्यो आमी भाड्याक घेताले.

आतां आमी इल्ले इल्ले जाणटे जावंक लागल्यात अशें आमचे आमकांच दिसूंक लागिल्ल्यान पयलीं भशेन ऊठसूठ झाडांचेर चडून हीं फळां काड, तीं फळां काड असलीं कामां करपाचें आमी थांबयल्लें. ताका आनीक एक कारण जाल्लें. आतां म्हजे पांय अनवाणी नासताले. जोतें जावं बूट पांयांत घाल्ल्यान झाडार चडपाची संवंय इल्ली इल्ली मोडूंक लागिल्ली. माडयेक पांयांचे तळवे लागल्यारच पुरो, आंग सामकें शिरशिरतालें; पांयांक खातखुतल्यो जाताल्यो. हाका लागून झाडाचेर चडपाची उमेदच ना जाल्ली.

अशें आसतना एक दीस सकाळीं इश्कोलाक वता आसतना कुसमळ्यांत कुळागराच्या वयल्या आतोडांत एके आंतेरीक बरीं गुलाबीच आंतेरां पिकल्यांत अशें आमच्यांतल्या कोणा एकान म्हळें आनी म्हजी नदर ते दिशेन वळ्ळी. वतालों त्या मार्गा सकयल देंवन पळेत जाल्यार पांच स आंतेरां बरीं गुलाबीच जाल्यांत. त्या वाटाराक चडशे लोक केन्ना भोंव नासले. तेन्ना कोणाचीच कटकट नासतना तीं काडूंक मेळटलीं म्हण हांव सकयल देंवलों आनी आंतेरी म्हऱ्यांत पावलों. खांदयेचेर पावल दवरून वयर चडलों. झाड व्हडलेंशें नाशिल्लें. आनी एकेच खांदयेर हीं पिकिल्लीं आंतेरां कोण तरी बेगीन येवन काडटलो हाची वाट पळेतालीं. हांवें रोखड्या रोखडीं तीं तोडलीं आनी सकयल आशिल्ल्या सवंगड्या कडेन जिखपाक उडयलीं. ताणें तीं अचळय जिखलीं आनी तो मार्गार वचपाक वळ्ळो. इतले म्हणसर कुळागरांत खट्ट जालें. कोण तरी पावलो, दिस्त ऐन वेळार अशें मनांतल्या मनांत म्हणीत हांवें आंतेरी वयर आशिल्लों थंयच्यानच सकयल उडी मारली. ती उडकी इतली नेटाची आशिल्ली की सकयल आशिल्लो रेडे अनशेचो कांटो समूळ म्हज्या पांयाच्या तळव्यांत रोमलो. हांव लंगडत लंगडत तसोच मार्गार आयलों आनी थंयच आड्याच्या फातरार बसकण मारली. तितले भितर कुळागरांत आयलो तरी कोण हें सोदपाक गजो ते दिशेन पळेत रावलो. पूण कोणच नाशिल्लो. कुळागरांत माडयेचें चुडत पडिल्ल्याचो बोवाळ आयकून कोणूय तरी धरूंक आयला असो म्हाका निव्वळ भास जाल्लो. हांव, गुरुनाथ, गजो आनी खंवट्यालो पुरसो अशे चार जाण आमी त्या वेळार थंय आशिल्ले. पांय वयर काडून तळव्या कडेन पळेत जाल्यार सगळेंच भियेवपा सारकें जाल्लें. आख्खो कांटो तळव्यांत रोमिल्लो. आनी भायल्यान पळेल्ले वरसून तो दोनेक इंच लांबायेचो आसतलो, आनी तितल्याच मोट्या घेराचो. वयर इल्लें कूस तितलें दिसतालें. तें कूस ओडून तरी कांटो भायर सरता जाल्यार पळोवया म्हण हांवेंच तो ओडपाचो यत्न केलो. म्हजे बरोबरचे ह्या कामांत आधार दीत म्हणपाची आशा नाशिल्ली. त्या कांट्याचो आकार पळोवन तांची भियेवन गुळी जाल्ली. कूस ओडून काडटा आसतना कांटो तर वयर सरलोच ना, पूण कुसूय तुटिल्ल्यान पंचायत जाली.

आतां करपाचें कितें तेंच येवजना जालें. कोण काडटलो हो कांटो? नंगरांतल्या घराचें काम चल्लां थंय गोविंद मेस्त आसतलोच. घराच्या दारां जनेलांच्यो फास्क्यो करपाचें ताचें काम चलिल्लें. पूण सकाळीं गेल्लो बापूय थंयच आसलो जाल्यार त्रासांत पडपाचें म्हण वयले वयर खबर काडपाक गुरुनाथ वयर गेलो. ताणें ताकतिकेन सकयल येवन सांगलें की तो थंय ना आनी म्हाड्डोळा गेला जातलो अशें गोविंद मेस्त म्हणऽ. हांव तिगांय सवंगड्यां बरोबर वयर गेलों आनी गोविंद मेस्ताक घडिल्ली गजाल सांगली. मागीर तळवो दाखयलो आनी कांटो काडूंक जमता जाल्यार पळोवचें म्हण भरिल्ल्या दोळ्यांनी ताका सांगलें. तो भितर रोमिल्लो येदो मोटो कांटो काडटलो करसो हे विवंचनेंत गोविंद मेस्त पडलो. तरी ताणें गरं हाडून, ते गावयेन कांट्याक घट धरूंक जाता जाल्यार पळोवन प्रयत्न केले. पूण कांटो इतलो भितर गेल्लो की व्हडले गावयेन ताका धरप जमपा सारकें नासलें. निमाणें ताका दिसलें, हें काम ताच्या हातांतलें न्हय. ह्या कामाक गावी जाय म्हण शेटिली. म्हण ताणें म्हाड्डोळा शेटीगेर वचून जमता जाल्यार पळे, अशें म्हाका सांगलें. पूण म्हाका भंय आशिल्लो तो बापायचो. म्हाड्डोळा वता आसतना वाटेर ना जाल्यार बाजाराचे सकयल आळींत दिसत जाल्यार 'केलें कितें आनी जालें कितें' अशें जावपाचें !

रडत मरत हांव सगळ्यां बरोबर म्हाड्डोळा पावलों. पांडुरंग शेटी परस अनंत शेट बरो - कोणाक ही भानगड कळचिना अशें येवजून आमी अनंत शेटीगेर गेले आनी ताका कांट्याची ही सगळी गजाल तुटक तुटक सांगली. मागीर कांटो तोंपिल्लो तो तळवो ताका दाखयलो. तो पळोवनच ताची वाचा धरिल्ले वरी जाली. ''म्हज्यान हें पळोवंक जायना. चला, या आमी दोतोरागेर'' म्हण तो एक्का सारको म्हजे फाटल्यान लागलो. पूण म्हाका दोतोरागेर गेल्लें नाकाशिल्लें. बापायक कळनासतना ज़ाता ते उपाय करपाचे इतलें हांवें मनांत थारायल्लें. आमी 'आं' म्हणून थंयचे भायर सरले आनी कांय वेळान अनंत शेटीलो दोळो चुकोवन लंगडत लंगडत म्हजो घरा वचपा खातीर परतिचो प्रवास सुरू जालो. त्या दिसाचें इश्कोल तर आमचें बुडिल्लेंच.

घरा वचून चवकशी काडत जाल्यार बापूय म्हाड्डोळच्यान घरा पावंक ना. आवयक दादाचे कुडींत आपोवन पांय दाखयलो आनी सगळी घडिल्ली खबर तिच्या कानार घाली. तो दनपारच्या साडेबारांचो सुमार आसलो. ''म्हाका बेगीन वाड, हांव न्हिदतां'' अशें हांवें आवयक म्हळें. आनी तिणें रोखडेंच जेवण थंयच कुडींत हाडून म्हाका जेवयलो. म्हाका मातसो दोळो लागलो. तितल्यांत कुडींत कॅसलो तरी बोवाळ चल्ला ! कोण आयला म्हण हांवें दोळे उकते केले पळेत जाल्यार दोतोर कुवेलकार थंय येवन बशिल्लो. ताणें पांयाचो तळवो पळेलो आनी म्हाका धीर दीत म्हळें, ''कांय न्हय मरे हें ! इतलो कित्याक भियेलो ?''

ते वटेन पुर्तुगेजीन बापायक कितें तरी दोतोर सांगतालो. म्हाका तांतलें इल्लें इल्लें कळटालें. भावार्त इतलोच की 'तुजो हो भुरगो भोवच कापाझदादिचो. इतलें हें घडलां आसतना तो पांयांनी म्हाड्डोळच्यान घरा येता म्हळ्यार अजापच करपाचें. आनीक कोणाक जाल्लें जाल्यार घुंवळ येवन थंयचे थंय तो पडपाचो.'

दोतोरान तळवो भेरोवपा खातीर एक इंजेसांव दिलें. मागीर एक वांकड्या तोंडाचो इंश्त्रुमेन्त घेतलो आनी तो भितरल्या कांट्याक तेंकयत तेंकयत तो येदो व्हडलो कांटो ताणें भायर काडलो. मागीर थंय जाल्ल्या बुराकांत गाज्राचो मॅच तोपून भितर घालो तेन्ना मात म्हाका सोंसना जावन हांवें मोट्यान बोब मारली. थोडोच वेळ पूण तितल्यान हांव सुटिल्लों.

म्हाका दिसता, घडये तीच म्हजी झाडाचेर चडपाची निमाणी खेप आसुंये !!

(चलता)



# तीर-सुवादीक कॉलम

दिलीप बोरकार

ज्ञानेवारी म्हयनो आयलो म्हणटकच जिवांत जीव येतालो.
ं तीन-चार वर्सां जिवांत जीव येना तरी आशेर मात उरता.
ञपाचें पुराय श्रेय आकाशवाणी पणजी केंद्राक वता.
ान म्हजे सारकेल्या जायत्या लोकांक पोटाक लायल्यात.
ांतल्यान बरोवन शंबर टक्के हातार कितेंय पडटालें तें हांगाच
र आमचें छापतात तेच आमचेर उपकार कशे दाखयताले.
इतलेच खातीर की ते छापपा खातीर पयशे मागनाशिल्ले.
ळ्यार मर्दीं र.वि. पंडितान एक फातर मारपाचो यत्न केल्लो.
पत्र घाल्लें, अमके अमके पयशे दी, तुज्यो कविता छापतां.
येष्ठ कवी कडल्यान अशें पत्र येवप म्हळ्यार हांव कवी म्हणपाची लिखीत
ाय आशिल्ली.
पत्र येतल्या वतल्याक दाखोवन म्हजे भितर मुरगुट्टालों.
काडून कोणाचेय नदरेक पडटा अशे सुवातेर दवरतालों.
रून वणटीक लावपाचें तितलें म्हजे तकलेंत येवंक ना.
स चुकून हांवें तें शंभु बांदेकार टायप एका कवीक दाखयलें.
ाठी नवोदीत कवीन आपल्या बोल्सांतलीं दोन पत्रां दाखयलीं.
दैनिकाच्या संपादकान ताचे कवितेक पयशे धाडून उपकार मानिल्ले.
खोवन तो कवी घाणेकारा वरी फुस्स करून हांसलो.
लोवपाची कांयच गरज नाशिल्ली. हांवें म्हजें पत्र पिंजून उडयलें.
डिताक पयशे आनी कविता धाडच्यो अशें मनांतल्यान दिसतालें.
शिल्ल्या दुडवांतल्यान कविता बरोवंक पेपर घेवंचे काय ते कविता छापूंक
हाचेर निर्णय घेवपाकूच काळ सरलो.
म्हणसर रत्नहाराचे दोनूय खंड भायर आयले आनी हांव थंयच उरलों.
हारांत म्हज्या काव्यरत्नांचो आसपाव नाशिल्लो.
खंत सोडली जाल्यार कवी म्हूण म्हाका रेडियोन खूब दिलें.
ा कोंकणी लेखक कवींक कोंकणीच दवरूंक रेडियोचो मोलाचो
ासा.
आमीय आकाशवाणीच्या दुडवांचो मान राखूंक दर्जेदार बरयताले.
ात कोणूय उठ्ठा आनी कितेंय बडबडटा ती गजाल वेगळी.
व्याकरण लागना, उतरांचो अर्थ लागना आनी कांय लागना.
त आयलें उतर, बरयलें कागदार, माल्लें मोखून वाऱ्यार अशी गत.
घडूंक पावलें आकाशवाणीचें प्रसारभारती जाल्ल्यान.
ारती जावन कोणाचें बरें जालें हें म्हाका खबर ना.
का जाल्ल्या प्रस्नांक जाप दिवंची पडटा ती म्हजे सारक्यांक.

हालींच म्हाका आमचे शेजांऱ्यीन विचारलें, हिरा नायक म्हूण कोण दोतोर आसा?
हांवें कांय केन्ना आयकूंक नाशिल्लें. जाणा आशिल्लों तें रेडियो वेलें हिरा.
म्हाका दिसलें, ही म्हजी फकाणां बी करता आसतली.
मागीर कळ्ळें, तिचेय वासपुसेंत थोडें तथ्य आसा.
मर्दीं केन्ना तरी हिरान 'तकलेचीं दुयेंसां आनी उपाय' हाचेर टॉक दिल्लो !
प्रसार भारती जाल्ल्यान रेडियोवाल्यांकूच केन्ना केन्ना असलीं फित्रिकां
करचीं पडटात.
तातूंत कोणाचें अडना. फकत हातान काडून दिवचे बदला चिमट्यान दिवप
जाता.
पूण गोंदळ जाता तो म्हजे सारक्या एकाद्र्याचो.
तरी लेगीत हांव हें सगळें रेडियोच्या मोगा खातीर सांबाळून घेतां.
कारण, पयलींच सांगलां न्हय, रेडियोन म्हाका पोटाक लायला म्हूण.
म्हाकाच न्हय, म्हजे सारक्या हेर कोंकणीवाद्यांकूय सांबाळ्ळ्यात.
जालां कितें, कोंकणीवाद्यांच्या कट्टुलांतली चळवळ म्हणटात ती चुकलिना.
आनी चळवळ केन्नाच नोकरेंत रावन करूंक येना.
सरकारी सेवा जाल्यार चळवळिचें नांव लेगीत घेवप पाप.
सरकारी सेवेंत आसुनय एकलो चळवळ करतालो तो शंकर भांडारी.
ताका कोणें केन्ना नोकरे वेल्यान काडलोना आनी तोय भियेलोना.
बाकिचे ताचे सांगाती सरकाराकूय भियेताले आनी शंकराकूय.
शंकर भांडारी सारक्या एकाद्र्याच्या नशिबांत आसता असलें सूख.
नातर हेरांक एक तर नोकरी कर ना जाल्यार भायर सरून चळवळ कर.
कोंकणीवाद्यांचो कोंकणी होच एक वीक पॉयंट.
कोंकणीक न्याय दिवपा खातीर ते नोकरी लेगीत खोंट मारून उडयतात.
ना जाल्यार मराठीवाद्यांक पळेयात.
कोंकणींतल्यान नोकरी मेळटा म्हूण कितलेशे जाण मराठी सोडून कोंकणी वटेन
आयल्यात.
देखुनच थोडे कोंकणीवादी अपुरबायेन एकामेकांक सांगतात,
पळयलें मरे कोंकणी भितर केदी व्हडली आकांताची शक्तआसा ती !
कट्टर मराठीवादी लेगीत नोकरी दिता म्हळ्यार धांवन येतात.
मराठीवादी जावनूय काय बरी कोंकणी शिकयतात जाणां शाळा कॉलेजिंनी !
उच्चार आनी शुद्धलेखन चुकल्यार कितें जाता ? जमतलें इल्लें इल्लें करून.
हाका लागून केन्ना केन्ना खरो कोंकणीवादी उबंतूय पडटा !
आनी उबंत पडल्यारूय तो कोंकणी सोडून वचना !
कोंकणीचें बळगें आनी सत्व म्हणटात तें हें.
कोंकणीचें सत्व तपासूंक खूब जाणांक खऱ्यांनीच त्याग करचो पडला.
ह्या त्यागांतूच कोंकणी भाशेचें जैत आसा अशें कोंकणीवादी मानतात.
तशें पळोवंक गेल्यार, धड्या वेल्या कोंकणीवाद्यांचें सावड्डेकारां कडेन पटना.
सांवड्डेंचे कोंकणीवादी केपेंच्या कोंकणीवाद्यांक पातयेनात.
केपेंकार मडगांवकारांक, मडगांवकार पणजेकारांक आनी पणजेकार पेडणेकारांक
लागीं धरिनात.
पूण 'कोंकणी, कोंकणी' अशें आवडून म्हणत जाल्यार पेद्रीन धांवून येता
एकाच खिणाक काणकोणचीं तरंगां भुर्रर करून पणजे पावतात.
अशी ही कोंकणी आसा म्हणून कोंकणीवाद्यांचो एकवट आसा.
आनी हो एकवट तिगून आसा रेडियो आसा म्हण.
कोंकणीचे सेवे खातीर जितले म्हूण नोकरी करिनासतना रावल्यात तांकां सगळ्यांक
आकाशवाणी पावल्या.

कोण रेडियोचेर कविता वाचता, तर कोण कथा. थोड्यांक नाटक तर थोड्यांक गीतां.
कोण बल्कांवांचेर गजाली मारता, जाल्यार कोण फोवांक फोडणी घालता.
ह्या सगळ्या कार्यावळीं भितर फायद्याची कार्यावळ ती जानेवारीची.
जानेवारी म्हयनो आयलो की कोणा कोणाक कविता मेळटा.
जाका मेळटा ताका त्या म्हयन्याभराचे तांदूळ सुट्टात.
जानवारी म्हयन्याचे सव्वीस तारखेक कवीसंमेलन आसता.
ह्या कवी संमेलनांत सगळ्या भासांतले कवी वांटो घेतात.
तांच्यो त्या त्या भासांतल्यो कविता अणकारीत करून वाजयतात.
हो अणकाराचो चान्स थळाव्या कवींक मेळटा.
हरशीं त्या कवी लेखकाक रेडियोचेर स्वताच्या लेखाक वो कवितेक
देडशें दोनशीं रुपया मेळटात.
पूण ह्या दिसा एक चार वळिंची कविता अणकारीत करूंक
हजारभर रुपया मेळटात.
म्हणटकच हे कवितेचो चान्स घेवंक जण एकलो धडपडटा.
थोडे जाण तर जानेवारी म्हयनो लागलो की ओगीच रेडियोचेर पासय मारतात.
थोडे जाण गरज़ नासतनाय फोना वेल्यान अमूक अमूक आसा
काय म्हूण चवकशी करतात.
आनी ताका जर विचारलें, कित्याक फोन केल्लो काय म्हूण,
तर तो लजिल्ले वरी जावन म्हणटा, हें, बेश्टोच, ओगीच.
तरी पूण कविते खातीर फोन केल्लो हें सगळ्यांक कळटा.
मागीर एकेक कविता येवंक लागता.
ह्यो कविता खंयच्यान येतात तें कोणाकूच कळना.
आसामी आयिल्ली मरे, तेन्नाच ज्युस्त लाद्रू पावलो. तो घेवन गेलो.
पळोवया सांजची पंजाबी येवपाची आसा
ती हांवें फुलूक दिता म्हूण सांगल्या.
फाल्यां कन्नड आनी तेलुगु येवपाची शक्यताय आसा.
त्यो तुका नाका. पालेकारान जावं सुरेश पैन त्यो केल्यार बऱ्यो.
बंगाली आयिल्ली आसा. चार दीस जाले. पूण तो रमेश मेळचना.
हँ रे, तो रमेश मेळ्ळ्यार सांग आं !
तुका बरीशी कविता येतकच फोन करतां हांव.
फोनाकडेन राव रे.
ही सगळी भास म्हाका संवकळिची जाल्ली.
दोन-तीन वर्सां आदीं म्हाका एक तरी कविता येतालीच.
सामकी निमण्या खिणाक लेगीत खंयची तरी कविता आयल्या.
आनी म्हाका हजारभर रुपया दिवन तृप्त करून गेल्या.
ही तृप्ती फाटल्या तीन वर्सां सावन नाच शी जाली.
सव्वीस तारीक मेरेन हांवें आज येतली आज येतली म्हूण वाट पळयली.
एका वर्सा चिंतलें, ना ह्या वर्सा ते विसरले आसतले.
म्हजेंच चुकलें. हांव कविता येतली म्हूण घरा बसून रावलां.
रेडियोचेर दोन दिसांनी तरी एकदां खेप मारूंक जाय.
पळय जाल्यार, दुसऱ्याय वर्साचो आनी तिसऱ्याय वर्साचो
सव्वीस जानेवारी गेलो.
कितें जालां म्हूण म्हाका कांयच कळूंक ना.
आकाशवाणीवेल्या कोणाकूच तर हांवें केन्ना दुखोवंक ना.
मागीर अशें अकस्मात म्हजें नांव लिस्टावेलें कशें गेलें काय ?
नक्कीच तीन वर्सां आदीं अणकारीत केल्ली कविता चुकल्या आसूं येता.
म्हाका त्या वर्सा कविता दिल्ली ती उर्दू कविता.
अणकारा खातीर कविता येता ती तीन प्रतिंनी.
एक मूळ भाशेंतली आनी तिची हिन्दी आनी इंग्लेज अणकार.
बाकिचे सगळे मूळ भाशेंतल्यान कोंकणी अणकार करतात.
हांव मात हिन्दी अणकारा वेल्यान कोंकणी अणकार करतां.
गरज पडटा तेन्ना इंग्लेज अणकाराचो आधार घेतां.
त्याय वर्सा हांवें तशेंच केलें आनी कोंकणी अणकार वाचलो.
मूळ कविते परस म्हजो अणकार सामको पावरफूल जाल्लो.
कांय दिसांनी म्हाका तो उर्दू कवी खंय तरी आपटलो.
हांवें उमेदीन ताका हांवें केल्लो अणकार वाचून दाखयलो.
ताका कळचें म्हूण त्या कोंकणी अणकाराचो हिन्दी अर्थ सांगलो.
ताणेंच म्हाका ही आपली कविता काय म्हूण दुबावान विचारलें.
आयुष्यांत आपणें असली कविता केल्ल्याची ताका याद नाशिल्ली.
म्हाका फुडल्या वर्सा कविता न मेळपाचें तेंच कारण आसुंये.
कोंकणी आठवे वळेरेंत गेली तशे कोंकणी कवीय आतां संमेलनाक पावूंक लागले.
पयलीं कोंकणी कवी हेर भासांतल्या कविंच्यो कविता अणकार करून वाचताले.
आतां कोंकणी कविता हेर भासांतल्यान थंयचे कवी म्हणूंक लागले.
पयर साहित्य अकादेमीचो उत्तरांचल काव्योत्सव आशिल्लो.
तातूंत आसामी, मणिपुरी आनी पंजाबी बी कविंनी वांटो घेतिल्लो.
कर्मधर्मसंयोगान ह्या कविंनी कोंकणी कविता अणकारीत केल्ली.
आनी ती गोंयच्या कवीं वरीच आपआपल्या रेडियोचेर म्हणिल्ली.
इतलीं वर्सां हांव हेर भासांतल्यो कविता अणकारीत करून पयशे खातालों.
पूण एकाय कविचें बाबड्याचें नांव लक्षांत उरूंक नाशिल्लें.
तीच गत गोंयांत आयिल्ल्या ह्या कविंची जाल्ली.
तांणी हिन्दी आनी इंग्लेजी वेल्यान कविता आपले भाशेंत केल्ली.
आनी ती कविता आपले डायरेंत बरोवन दवरिल्ली.
तीच कविता त्या तिगांनीय हिन्दींतल्यान म्हाका सांगली.
कवी कोण हें जाणा जावचें अशी तांची इत्सा आशिल्ली.
तांणी दिल्ल्या हिन्दी अणकारा वेल्यान हांवें ती कोंकणी केली.
पूण ते कवितेचो जनक कोण तें म्हाका कळपाचें नाशिल्लें.
ती कविता अशी आशिल्ली...

*आमी सगळे कोंकणी पूत, सगळे आमी भाव भाव*
*आमी जरी आसले मोटवे, आमच्या खांदाक बोटवे*
*लांब जातल्यांक ओडटात आनी मोटव्यांचो वसयतात गांव*
*सगळे आमी भाव भाव, आमचें सदांच बरें जावं.*

गणतंत्र दिसा निमतान बरयल्ली ती कविता बरीच व्हडली आशिल्ली.
'कोंकणी कविता आनी इतली आकांत आसता हें आमकां खबरूच नाशिल्लें',
उत्तरांचलांतले ते कवी उलयले.
'म्हाकाय खबर नाशिल्ली', हांवें तांच्या उतराक मान हालयली.
पूण कविता कोणाची तें म्हाका कशें कळना काय ?

□□□

# अधोलोक

☐ सु. म. तडकोड

पराकाष्ठेच्या तपस्कारा उपरांत
दवरलोच हांवें पांय हे विस्तीर्ण तेंगशेर

खरसाणेंत हांवें उडयली शेंवटून नदर
पळोवंक शेकानशेक पसरिल्ल्या सकयल्या वाठाराचेर...

कितलेशेच मोडणामोडणाचे मार्ग, दुरीग, वंयो आनी आडांबे
कितलेशेच खोटे-खरे मार्गदर्शक - कांय जीवे, कांय बुजगावणीं;
कांय गुरुवर्य, कांय शुक्राचार्य कमंडलुच्या नॉझलांतले,
कांय संतसज्जन, कांय शुभचिंतक -
घायाळ नदरेन म्हाका तेळटना...

त्या सगळ्यांचो वीट येतकच
तांकां 'बाय' 'बाय' म्हळें आनी उत्तर दिके कडेन पळोवंक लागलों,
जाल्यार कितल्योश्योच अलमारी सताड उक्त्यो एके वशीन!
दुसरे वटेन पर्थून एकार एक चडत गेल्ल्यो दोंगुल्ल्यो -
कांय मार्ग, दुरीग, वंयो आनी
खोटे-खरे मार्गदर्शकय बी...

एके आलमारींत हात घातलो जाल्यार एक फायलच हातांत आयली,
'आरे, ही तर म्हज्या एका गुरूवर्याची फायल '
पळोवची उक्ती करून ?'

हय-नाका करता आसतनाच ती उक्ती जाली केन्ना तेंच कळ्ळें ना,
वाऱ्यान फडफडूंक लागलीं पानां म्हणून दांबून दवरली -
तर म्हज्या हाताखाला आशिल्ल्या पानाचेर म्हज्या नांवाचो निर्देश!

वसवशान वाचचेंच पडलें -
'आब्बा!' ह्याच गुरूवर्यान तर कितलेशेच फावट
खोटे मार्गदर्शक म्हजे पायणीचे आशीकुशीन उबारिल्ले ?
... ह्यो फायली कांय शुक्राचार्यांच्यो?
'जेन्ना जेन्ना म्हाका दान मेळटाशें दिसलें तेन्ना तेन्ना
ताडेपेन्नांच केलीं आनी नॉझलांतच वचून बसले ते कमंडलुंच्या...'

...ओ हो! आनी ही फायल तर संतसज्जनाची!
कळच आयली काळजांत;
हांचे हात-पांय मातयेचेच न्हय तर
अंडरवर्ल्डाचेय ?
'ह्यो वंयो, तीं दुरगां, ते आडांबे
ह्या संतसज्जनाच्या सोज्वळ कर्तुपांचें चित्र';

मान वळून आयली वाचून वाचून,
देखून पळयलें मुखार तर
कितलेशेच शेड्डे, कोले आनी
वांगडा बहिरूपेय -
- दोंगुल्ल्यांच्या वाटांनी
आपालिपा करीत...

म्हळें,
म्हजीय एक फायल आसूं येता...
... गावलीच ती आशीकुशींत.

उक्ती करून पळयली जाल्यार वाचूंक मेळ्ळें
- तुजें कर्तुप म्हळ्यार फुकफुक्या मनशान केल्ली
संघर्षरत कवितेची निर्मणी...

# काळजा कुडींत

अरूण साखरदांडे

*काळजा कुडींत*
*सपनां -राशी*
*वेंचीत बसल्यांत*
*मनशां पिशीं*

*एक सपन आवयचें*
*एक सपन बापायचें*
*एक सपन बायलेचें*
*एक सपन भुरग्यांचें*

*सपनां भोंवतणीं*
*लायले दिवे*
*तातूंत तेल*
*रगत-जिवें*

*सपन-दिव्यांच्यो*
*पेट्टात वाती*
*पावला पावलार*
*शेणटात नातीं*

*तरी सपनां*
*वेंचून सोंपनात*
*जल्मगांठी*
*सुट्टन-सुटनात.*

# दोन कविता

परेश नरेंद्र कामत

## प्राक्तन

*बियेंत गुठली करून न्हिदला काळोख;*
*कल्ल उसवत उजवाडटलें केन्ना*
*बियेचें प्राक्तन ?*

*भुंयेंत शिरकला काळोख गोटून;*
*भुंयेचो दिफळो निखळून तांतल्यान उसळटलें केन्ना*
*पांचवेचार उजवाडाचें कारंजें ?*

*कुसव्यांत दाटिल्ल्या रेब्याभशेन मुंगरला काळोख;*
*कुसव्यांतल्या गर्भावरी केन्ना येतलो उजवाड*
*अंतर्मनांतल्यान हुंकार दीत?...*

## वाऱ्याच्या झोपाळ्यार

*वाऱ्याच्या झोपाळ्यार*
*मनाची रूणझूण*

*मातयेच्या देहाक*
*मळबाचें पांगरूण*

*तनरेल्ल्या दोळ्यांत*
*अमृताची तळी*

*ब्रह्मानंदांत फुलता*
*काळजाची कळी...*

# ाची वाफ

श्री महाबळेश्वर सैल

उठल्यो ह्यो अस्पश्ट रानकिळच्यो
पला खंयच्या रानभोंवऱ्यांत
पाळेचो आलाप गावन
गांव दुभंगून गैलो
ांत...

णांत पेटलो
ाग
णाचें रसायन
कणाकणान

ंठार
यच्याच
कशी गो

भुंयारी मुळान
ो घरघर घाव...
ंपाखांपांनी लुटलो

ळो थरथर गरबा
ा कंवळ्या हातार...
समिधा घेवन गेलो
अनवळखी

लागले अशे हे
ळे...
बडायत सुटलो

आयली
ळखी
तोड
ोवन
ती
वो

एका सेकंदांत घुंवघुंवलें
बाळशेपण !
आनी भविश्याचो जाळ
आतां आवय बापायच्या
सरणार

खंयच्यान अचकीत सुटलो
हो मर्ण वावटळ
आनी घुमघुमत
गेलो एका
दारांतल्यान
दुसऱ्या दारांत

सुन्नतायेचे खर घुंवळेंत
कोण सोदता
आपलीच मसंड
आपल्याच हातान
काळजाचे पडले
हजार वांटे
आनी
चोंय वटेन हुबता
फकत मरणाची
वाफ

रक्त रंगी काळ दुख्खां
निशेलीं कोणाच्या दोळ्यांतल्यान
आनी हुंकार उबो जालो
सगल्यांच्याच पापण्यांत
आतां रात दीस भुंयकांपांचे
झटके दर एकट्याच्या
बंद दारार

फांतोडे वेले देवुळ-दिवे
खिणांत जाले दोळ्यां आड
हजार कफनांचें भिरें
मात पावलें
पयस पयस दिगंत तेरार...

३/२/२००१

# बंदखणींतल्यो घडणुको

फेलीस्यु कार्दोज

बंदखणींत आसतना जायते बरे-वायट अणभव म्हाका घेवंक मेळ्ळे. बंदखणी भितर जायत्यो घडणुको घडल्यो - थोड्यो सुखाच्यो, थोड्यो दुख्खाच्यो; कांय रडपाच्यो, कांय हांसपाच्यो. कांय प्रसंग मनांतले पुसूंक जायनात तसले.

मडगांवां क्वार्तेलार आसतना हांव आनी हेर सांगाती आसले ते कुडींत एका दादल्याक हाडून भितर घालो. कित्याक ताका धरला काय म्हण आमी विचारतकच तो रडूंक लागलो. तो म्हापशेंचो, लोटलीकार नांवाचो एक सोनार आसलो. आमचे भितर तो पिरायेन जाणटो आसलो. पंचावनांचेर पूण पावलल्लो आसतलो. तो कोणाच्या राजकी पंगडांत आसलो काय म्हण आमी विचारलें तेन्ना 'हांव जयहिंदांत ना, म्हाका बेश्टोच धरून हाडला, हांव जाणटो' अशें म्हणून ताणें आपल्या तोंडांतली दांताळी काडून दाखयली. आपूण हातावयल्या पोटाचो सादो-भोळो, जाणटो मनीस, राष्ट्रवाद्यां बराबर ना म्हण दाखोवंक ताणें तशें केल्लें.

'आजेंत' काजमीर मोंतेयरान ताका धरून हाडटकच तो 'तेर्रोरीश्त' म्हण ताका बाबड्याक जायतो बडयलल्लो. मडगांवां आसतना मोंतेयर ताका जायतो सतायतालो. खरेपणीं गोंयचे सुटके चळवळींत तो नासलोच. दुबावान ताका धरलोलो. तर जालें अशें : एके राती जेवन जातकच तो परसाकडेन बसपाक गेल्लो. त्या दिसांनी म्हापशेंच्या साबार जाणांक धरलले. हो लोटलीकारूय तांचे भितरलो एकलो आसत म्हण दुबावान ताका कैदी करून हाडलल्लो. ताच्या घरांत झडटी घेतच भुरग्यांची एक ल्हान पुस्तिका सांपडली. ते मराठी पुस्तिकेचें नांव आसलें 'आपला नेहरू'. नेहरू विशीं ती पुस्तिका घरांत मेळ्ळी देखून मोंतेयरान ताका बाबड्याक नाका पुरो केलें.

लोटलीकार आमचे भितरल्या कोणा कडेनूच उलयनासलो. तो एकलोच बसून चींत चींत चिंततालो, आनी एकेकदां भुरग्यांची याद काडून हुडक्यांनी रडटालो.

त्या वेळार मडगांवच्या क्वार्तेलार 'तेनेंत' आंतेरू आलविश कोमांदांत आसलो. हो सभावान बरो आनी सभ्य आसलो. कांय दिसांनी आमी ताका सांगलें, 'आमी गोंयचे सुटके चळवळींत आसात. तुमचे नदरेन आमचो गुन्यांव जाता. पूण तो गरीब बाबडो (लोटलीकार) कित्यांत ना. ताका सोडून दिवचो.' आमी ताका समजायतकच तो 'पळेतां' म्हण सांगून गेलो. आनी दुसऱ्या दिसा त्या लोटलीकाराक क्वार्तेलांतलो सोडून दिलो.

आनीक एक गमतीच जाली. गोंयां भायल्या एकल्या २४-२५ वर्सांच्या तरणाट्याक धरून हाडून आमचे कुडींत दवरलो. ताका बडोवन ताचें तोंड सुजयललें. कित्याक धरला काय म्हण विचारल्यार तो सांगनासलो. ताणें मडगांवच्या रेल्वे स्टेशनार एका चेडवाच्या गळ्यांतली सरपळी तोडून काडून ती गिळ्ळी म्हण एका पुलिसान आमकां सांगलें. तो कितलोय मार खातालो पूण आपली चोरी कबूल करिनासलो. उपरांत ताका सानातोरीच्या ओश्पितलांत एक्सरे काडपाक व्हेलो. एक्सरेयाचेर ताच्या पोटांत सरपळी आसा म्हण कळ्ळें. ताका क्वार्तेलार हाडून आनीक बरोच पेटयलो. तरीय तो कसोच आपणें सरपळी गिळ्ळ्या म्हण सांगनासलो. ताका आमचे कुडींत दवरलो. फाटोफाट एंडेलाच्यो दोन शिसल्यो ताका पिवंक दिल्यो. ताका जेवपाक खावपाक कांयच दिवंक ना.

थोड्या वेळान ताच्या पोटांत कुटकुटूंक लागलें. कुडींतच तो घाळ करीत म्हण आमकां भिरांत. पुलीस ताका आंगणांतल्या आंब्या मुळांत बसयताले. दोग पुलीस ताच्या फाटल्यान रावन सरपळी भायर सरता काय म्हण पळेत आसताले. कितले पावटी ताका आंब्या मुळांत बसोवन हाडलो, पूण सरपळेची निशाणी ना. मागीर ताका जबरदस्तेन आनीक एक एंडेलाची शिसली पिवंक लायली.

आमचे कुडींत आसलल्या डॉ. जे.एफ्. मार्तीशान एका पुलीस अधिकाऱ्याक त्या चोराक भरपूर केळीं खावोवपाक सांगलें. रित्या पोटार आसतना ताका परत परत भायरी पिवंक दिल्यार तो मरूंक शकता म्हण दोतोरान सांगलें.

थोड्या वेळान एका पुलिसान त्या चोराक बरींच केळीं खावयलीं. आमी ताका सांगताले फट मारनाका. फोटवार सरपळी दिश्टी पडल्या जाल्यार ती नक्की तुज्या पोटांत आसाच; बेश्टोच मार खायनाका. तो मार खातालो पूण आपलो हट सोडनासलो.

आनीक थोड्या वेळान ताच्या पोटांत जावंक लागलें. पुलिसांनी ताका आंब्या कडेन बसोवपाक व्हेलो. दोग पुलीस माजरां हुंदराची पारस करतात ते परीं ताच्या कुल्यांचेर नदर थिरॉवन आसले. आनी... हे खेपे ती सरपळी भायर सरली! चोराक सूऽ जालें ते भाशेन पुलिसांकूय सूऽ जालें आसतलें!

त्या चोराक आमचे मदें दवरना जावंक आमी कॉमांदांतीक सांगलें. ताका उपरांत आमचे कुडींतलो काडून दुसरे कुडींत व्हरून दवरलो.

(चलता)

## जागा खातीर बरप धाडटना

- बरपाची एक प्रत बरोवप्यान आपणालागीं बाळगुची.
- बरप निवळ अक्षरान कागदाच्या एकाच अर्दान बरयल्लें आसचें. (एका अर्दान आदीं वापरिल्लें कागद बरोवपाक वापरूं येता.)
- हेर खंयचेच कडेन उजवाडा येवंक नाशिल्लें बरपूच धाडचें.

साहित्य नियाळ

# मज्जन'

## ळी कोंकणीचो सर्जनशील आविश्कार

र्शिनी तडकोडकार

ापणाल्या ह्या सुपुल्ल्या जिवितांत मनीस आपणाचेर कितलिशीं बंधनां
घेता. पूण त्या बंधनांचें खरें रुपडें दिसता त्या बंधनां सावन पयस वतकच.
केन्ना हें रुपडें ओडलायणें आसता जाल्यार केन्ना केन्ना तें विदारक सत
करपी आसता. जिवीतभर राखून दवरिल्ले मोयपास कितले तकलादू
वेव्हारी आसतात हें 'निमज्जन' ह्या शीर्षकाची कथा दाखयता.

ा. के.आर. वसंत मणी ह्या केरळांतल्या कोंकणी कथाकाराच्या 'निमज्जन'
ल्यांतली ही कथा खूबशें सुचयता. निमज्जन म्हळ्यार विसर्जन. मनशाच्या
ांतल्या साबार ताण्या-बाण्यांचें विसर्जन ताच्या मरणा उपरांतच जाता.
पळोवपाक मनीस जिवो आसना. लेखकाचे सर्जनशीळ आनी कल्पक
णेंतल्यान हो प्रसंग वास्तवाचो घटमूट आधार घेवनच साकार जाला. केरळी
तल्यान आकाराक आयिल्ल्यो ह्या झेल्यांतल्यो बारा कथा केरळी मोडिची
विविधतायेन दाखयतात आनी वांगडाच लेखकाच्या संवेदनशील मनाचेंय
घडयतात.

अंजली प्रकाशन, पालक्कड, केरळ हे प्रकाशन संस्थेन १९९९त उजवाडा
ल्लो प्रा. वसंत मणी हांचो हो दुसरो कथां झेलो. तांचो 'भांगरा दांत' हो
३तलो पयलो कथांझेलो केरळ कोंकणी अकादेमीन उजवाडायला. कोंकणी
प्रचार सभेचे पुरस्कार लाबिल्ले प्रा. के.आर. वसंत मणी आपणाले सरस
दन शैलीन केरळी कोंकणी बरोवप्यांमदीं विशेशतायेन उठून दिसतात.
ांतल्या 'कोकण जनता' ह्या नेमाळ्या वरवीं जायते नवे कथाकार कोंकणीक
ले आनी तांणी आपणाल्या भाशासामर्थ्यान आनी उतरावळीन कोंकणी कथेचें
गिरेस्त केलें. 'कोंकणी कथाण्टक' (१९७८), 'काणयां घोस' (१९७८),
ा - ८३-८४-८५' (१९८६) आनी 'अंतर आयामी' (१९९१) अशे
नांव घेवपा सारके हे मोडिंतले कथांझेले. ह्या साबार कथाझेल्यांचेर आनी ते
तान उजवाडून आयिल्ल्या (कथाकारांच्या) कथांचेर नदर भोंवडायल्यार हे
चीं कांय वैशिश्ट्यां दिसतात. हीं प्रा. वसंत मणी हांगेल्याय कथांची वैशिष्ट्यां
म्हणूं येता.

हे कथेंत चड करून दक्षीण केरळांतल्या कोंकणी समाजांतलीं मनशां येतात.
तरी हीं पात्रां हेर वाठारांतल्या समाजांतल्या मनशांपरस वेगळीं दिसनात. हीं
शां वेगळे वेगळे सभाव घेवन, भाव, वृत्ती घेवन आयल्यांत. प्रादेशिकताय
रेखित करपांत ह्या पात्रांच्या तोंडांतले भाशेन भोव म्हत्वाचो वांटो उबारला.
च्यान वेगवेगळ्या काळार आनी वेगवेगळ्या कारणांक लागून केरळांत बी
ल्या आदल्या गोंयकारांचे जिबेवयली सरस्पत राखून दवरून हे भाशेचें पोरणेपण
ी गिरेस्तपण दाखोवपी ही तिची मोड तिचीं आधनीक रुपडींय दाखयता. तेच
बर हे मोडिचेर मलयाळम भाशेचो आनी इंग्लेज भाशेचोय जाल्लो प्रभाव ह्या
ांतल्या पात्रांच्या संवादांतल्यान उकतो जाता.

'निमज्जन' ह्या झेल्यांत वेगवेगळ्या विशयांचेर बरयिल्ल्यो कथा मेळटात.
य कथा सभावचित्रणाचेर आधारिल्ल्यो आसात जाल्यार कांय कथा
वितांतल्या ल्हानशा घडणुकांचेर आधारून आसात. निवेदनाचे व्हांवतेंत
प्यांक ह्यो कथा सोंप मेरेन खिळायतात. देखीक, 'रोटसां' ही कथा घेवंया.
सां म्हळ्यार तांदळाचो केल्लो एक परखन्न. बरोवप्याक तो खायन दिसता




पूण केरळांतली पर्थून पर्थून वचपी 'करंड' (लायट) आनी 'डामां'त नाशिल्लें
उदक हाका लागून रूच येवनय वेळार पोटांत 'रोटसां' पडनात. अशा वेळार
ताका आदली एक काणी याद जाता. ती आदल्या तेंपा वेल्या पुत्तुमामाची.
आपणाल्या कर्तृत्वान धनवंत जाल्ल्या ह्या मनशाची काणी सांगतनाच केरळी
समाजांत 'रोटसां'क आशिल्ले वेगळे सुवातेची जाणविकाय लेखक करून दिता
तो 'बालकृष्णा'चे आख्यायिकेन. केरळांतल्या देवळांतल्या बालकृष्णाच्या हातार
'बोक्को' (भाजत्याची कुरू) कशी ही काणी तो सांगता ती मुळांत सावनच
वाचपासारकी.

'एकलो यात्रिक' ही तांची कथा मनशाच्या एकलेपणाची काणी सांगता.
मनशाक तरणे पिळगेर बळ आसता तेन्ना तो व्हडे उमेदीन आनी निस्वार्थीपणान
घराब्या खातीर, आपल्या मनशां खातीर कश्टता. तेन्ना आपणाल्या सुखा दुख्खाची
तो पर्वा करिना. वेल्यान 'हांव सिकूंक गेल्यार भावंडां कितें करतलीं?', 'म्हगेली
भावी पळोवंचाक गेल्यार भावंडां वाट आधार जातलीं' (पा. २७) ह्या विचारान
तो मुखार शिकना आनी 'प्रमोषन'य घेना. पूण जेन्ना भावाक मुखार शिकोवन
नोकरी मेळटा तेन्ना तो दुसऱ्या गांवांत ट्रान्स्फर घेवन वता आनी कथेचो नायक
मात 'तो म्हाका फाटबळ दितलो म्हूण लेखलेलें व्यर्थ जालें !' म्हूण हातार हात
धरून ओगी बसता. मुखार आपणाल्या भुरग्यांच्या फुडाराचेर आशा दवरून तो
तांकां शिकयता. तांकां 'डिसिपळिन' (डिसिप्लीन) दवरून वाडयता आनी
आपणाल्या सुखादुख्खांत समान फाटबळ दिवपी बायल भुरगीं मेळचीं म्हूण
धादोशी जाता. पूण ताचें नशिबच असलें की तो 'इन्टेनल इनजुरी' (internal
injury) जावन मरता. आनी तो निमाणे कडेन भावा भयणिंची आनी आपणाल्या
चले, चलयांचीं सगळीं कर्तव्यां करून निमाणे कडेन एकलोच उरता. ऑफिसताला
भायर आशिल्ल्या एकट्या पिपळाच्या रुखा कडेन आपणाली सर करत.

अशेच तरेचें कथानक आशिल्ली तांची 'शांती' ही कथा. लागच्या, रगताच्या
मनशां मदलो वेव्हार आनी स्वार्थी वृत्ती दाखयता. जाल्यार 'मीरा हरण' आयचे
तरणाटे पिळगेचेर जाल्ल्या सिनेमाच्या अनिश्ट परिणामांचें सूचक चित्रण करता.
'व्हरेताक देखूक ना', 'आरार', 'धोल्लकार किटुमाम' ह्या कथांतल्यान येवपी
मनशां आनी तांचें भोंवतणचें वातावरण तांचे दुख्खी आनी निराश मनस्थितिचें

चित्रण करता. 'निमज्जन' ही कथा वाचतना म्हाका चा.फ्रा. द कॉश्ताच्या 'सुणें माजर हांसता' हे एकांकिची याद जाली. चा.फ्रा.नय विनोदाच्या आधारान मनीस जिणेंतली विसंगती आनी व्यथा दाखोवन दिल्या. तेच तरेन निमज्जनांतलो मोडें मोर्तोय सपनांतल्यान जिवितांतली विसंगती अधोरेखीत करता.

केरळी प्रदेशाचे फाटभूंयेचेर उब्यो जाल्ल्यो ह्यो कथा थंयचें समाजजीवन आमचे मुखार उबें करता. प्रादेशिकताय लाबिल्ली ही कथा थंयचे जिणेचेर विपुलतायेन टीका करून वाचप्यांचें लक्ष समाजांतल्या अनिश्ट गजालीं कडेन ओडपांत यशस्वी जाल्या, तेच बरोबर ती गिरेस्त अशी प्रतिमासृश्ट आनी शब्दभांडार वाचप्यां मुखार उकतें करता. ती तिची तांक आसूनय केरळा भायल्या वाचप्यांक ही कथा वाचतना मात्शी आडखळ जाता. हाचें कारण थंयच्या समाजजीवना कडेन सामान्य गोंयकार वाचप्याची नाशिल्ली संवकळ. देखीक, 'मीरा हरण' हे कथेंतलो 'चलयेक आषा वर्षां जावंचाक राकून राबलीं', 'आगस्टांतु आषा वर्षां जालीं, माणिकाक आनी बायलेक हयें कळतालें', 'तीनी सारें घालून दिलें' हे असले सांस्कृतीक संदर्भ जे कांय कडेन आयल्यात ते कळपाक आडखळ जाता.

एका वेगळ्या वाठारांतल्या समाजजिविताचें आनी जिवीत शैलिचें दर्शन घडोवपी कथा म्हूण ह्या झेल्याक कोंकणी वाचपी येवकार दितले हाचे विशीं दुबाव ना. केरळी कोंकणींतल्यो संवेदना आनी तांच्यो व्यथा प्रा. के. आर. वसंत मणी सहजतायेन उकत्यो करतात. तांची भास तशी सरळ आनी संस्कृतप्रचूर. मलयाळम भाशेचो प्रभाव तांच्या इंग्लेज उतरांचेर चड दिसता पूण कोंकणीचेर दिसना. 'खबरेमाम' हें तांच्या खूबशा कथांनी येवपी सामान्य पात्र सर्वसाक्षीची भूमिका करता हें म्हाका अर्थपूर्ण दिसता. जसो आर.के. लक्ष्मणाचो 'कॉमन मॅन', तसो मणीचो हो 'खबरेमाम'. सर्वसाक्षी. अशें आसुनय कथानक आनी कथेचें तंत्र हातूंत चडशी फिशालकाय लेखकान दाखयल्या अशें दिसना. लेखकान उकते केल्ले अणभव तशे भोव मर्यादीत रुपान आयिल्ले दिसतात. कथेच्या आशयाक नवेंपण दिवपाची लेखकाची तांक आसूनय पोरणे फास्केंतच रावन तांणी आपणाल्या अणभवाची अभिव्यक्ती केल्या. प्रा. वसंत मणी हे मुखारूय नवे तांकीन आनी आशयविशयाचे विविधतायेन आपणाली अभिव्यक्ती कोंकणी कथेच्या आंगणांत फुलयतले हाचे विशीं दुमत दिसना.

**निमज्जन**
**के. आर. वसंत मणी**
**अंजली प्रकाशन, केरळ, १९९९**
**पानां ६७**
**मोल : रु. ५०/-**